# जाग

व २६ ◇ आंक ३ ◇ ऑक्टोबर १९९९

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

सहकारपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

वाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

वयर चित्र : लइराई कंप्यू.


## ह्या आंकांत




| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
... रुपये अदीक जोडचे)

वेव्हाराचो नामो :

जाग म्हयनाळें
१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

सुटो आंकाचें मोल : रु. ९/-


## संपादप्याची

## अमेरिकेचें अर्थतंत्र कोंसळून पडपाचे वाटेर

बिसेनजींक एक संवंय आशिल्ली. नेमाळ्यांनी कितेंय वाचलें आनी लक्ष ओडपा सारकें तांतूंत कितेंय मेळ्ळें म्हणटकूच —

तांचें कात्रण काडून ते दवरताले.

असल्या कितल्याश्या कात्रणांची एक कास ते आपणाली इस्टेट म्हूण म्हाका दवरून गेल्यात.

काल ती उस्तूंक बशिल्लों. 'अनॲम्प्लॉयमॅन्ट इन अमेरिका' (अमेरिकेंत बेकारी) ह्या माथाळ्यांचें एक कात्रण दिश्टी पडलें. 'सायंटिफिक अमेरिका' नेमाळ्यांतलें.

अमेरिकेंत बेकारी? कुबेराचे लेगीत दोळे दिपकावन वचचें येदी गिरेस्तकाय ह्या देशाची. थंय बेकार कोण आसतले? अमेरिका पळोवन आयिल्ले 'थंय सगळ्यांचें घर भरून दार ओतता' अशेंच सांगीत आयल्यात. रॉकफॅलर, फोर्ड, कॅनेडी सारकेल्यांची गजाल सोडून दिवंया, सादो मदल्या वर्गांतलो मनीस लेगीत खंय थंय आमच्या गिरेस्तांपरस अदीक गिरेस्तकायेंत लोळटा. थंय बेकार लोक आसात म्हणपाचें कोणाक खरें दिसतलें? कात्रण वाचपाक लागलों आनी —

'उमथें आयदन कोणेंय नीट करून दवरचें, धांकिल्ली वस्त कोणेंय उकती करून दाखोवची, काळखांत कोणेंय चूड पेटोवन दिवची' तशें-शें कितें म्हाका जालें.

अमेरिकेचें अर्थतंत्र खरेपणानशीं खंय शस्त्रास्त्रांच्या उत्पादनाचेर निंबून चलतालें (अजुनूय चलता). पयलीं कन्झ्यूमर गुड्सांचें (उपभोगाच्या वस्तुंचें) उत्पादन जातालें. पुणून ह्यो वस्तू हिन्दुस्तान जपान ताइवान देशांतल्यान आयात केल्ल्यो सवाय पडटात म्हणपाचें उद्देगपतिंनी पळेलें. तांणी तांचें उत्पादन उणें केलें आनी सगळ्यांत चड भर शस्त्रास्त्रांच्या उत्पादनाचेर दवरली. पुणून तीं खपूं नाकात? तांणी अमेरिकेचें सरकारूच आपणा हातांत घेतलें आनी आपणाल्या शस्त्रास्त्रांच्या धंद्याक फायद्याक पडत असलीच एक 'फॉरेन पॉलिसी' (विदेश नीत) विकसावन काडली. आशिया, आफ्रिका आनी दक्षीण अमेरिकेंतल्या राजकर्णांत लुडबूड करप, अमेरिके आड आशिल्ल्या लोकांचीं सरकारां थंय आयलीं जाल्यार त्याच देशांतल्या लोकांक मुखार काडून तीं उडोवप आनी आपणाक जाय तसलींच सरकारां हाडप, शेजाऱ्या शेजाऱ्यां मजगतीं लावालावी करप, हाका शू करून ताचेर सोडप, ताका शू करून हाचेर सोडप, तांकां झुजूंक लावप आनी ह्या निमित्यान तांकां शस्त्रास्त्रां विकप हें 'धोरण' तांणी सुरू केलें. हें धोरण चलोवपा खातीर सी.आय.ए. नांवाची एक पाताळयंत्री संस्था सुरू केली. आनी आशिया-आफ्रिका-दक्षीण अमेरिकेचो वाटार तिचे सुवादीन केलो.

तेन्ना संवसार दोन पावर-ब्लॉकां मजगतीं वांटून गेल्लो. एक अमेरिकेचो, दुसरो रशियेचो. हाका लागून सी.आय.एक ह्या दुसऱ्या पावर ब्लॉकाच्या देशांत धुमशेणां कांडपाचें काम मेळिल्लें.

ह्या पावर-ब्लॉकां पसून अलिप्त असो नेहरू-नास्सेर-टीटोचो तिसरो एक ब्लॉक सुरू जाल्लो. पुणून तो रशिये कडेनूच लकतालो. सी.आय.एक ह्याय ब्लॉकांत खूब काम मेळ्ळें.

एक दीस रशियेंत गोर्बाचोव्ह सत्येर आयलो. आनी ताणें अमेरिकेच्याच आधारान दोनूय पावर-ब्लॉक्स इतिहासजमा करून उडयले. संवसारांत एकूच ब्लॉक उरलो. अमेरिकेचो.

परिणाम, अमेरिकेक रशियेचो सदां जो भंय दिसत आयिल्लो तोच पयलीं ना जालो. रशियाय खांकनवाळ जाल्ली. आशिया आफ्रिका दक्षीण अमेरिकेंतल्या देशां सारकीच एक गरीब देश जावन पडिल्ली. उपाय नासून

अमेरिकेक आपणाल्या लस्करी खर्चांत वर्सान वर्स स टक्क्यांनी 'कपात' करपाचो निर्णय घेवचो पडलो. कोणा आड झुजतली? भंयूच कोणाचो उरूंक नाशिल्लो. हाचो परिणाम शस्त्रास्त्रांचें उत्पादन करतल्या उद्देगाचेर जाले बगर कसो रावीत आशिल्लो? कांय कारखाने आपशीं बंद पडले. आनी कितलेशे कामगार बेकार पडले.

बेकारांचो हो आंकडो दिसान दीस वाडत वचपाक लागला.

बेकारीक आनीक एक कारण जालां —

हालिंसाराचे चडशे उद्देगधंदे मनशापरस बरें काम करपी यंत्रांच्या आधारान चलपाक लागल्यात. कामदारांची तांकां व्हडलिशी गरज उरूंक ना. सी.बी.एम्. नांवाची एक व्हडली कंपनी आशिल्ली. कम्प्यूटर तयार करताली. तिणें त्याच वर्सा पन्नास हजार लोकांक कामावयल्यान 'मेकळे' केले. १९८५ मेरेन तिणें सुमार चार लाख लोकांक काम दिल्लें. दोन वर्सां भितर तिका देड लाख लोकांक कामा वयले काडून उडोवचे पडले.

अमेरिकेचें सरकार भियेलें. वेंचणुकेंत वेंचून आयिल्ल्या पक्षान सवाय लाख लोकांक काम दिवपाचें उतर दिलें. वर्स-दोन वर्सां मेरेन तेरा हजारां वयर कोणाक काम दिवंक नव्या सरकाराक आयलें ना. ते मेरेन बेकारांत त्रेपन्न लाख लोकांची भर पडिल्ली. ज्या तेरा हजारांक काम दिल्लें तेंय 'तात्पुरतें' आशिल्लें. 'पर्मनन्ट' न्हय. बेकारांक भत्तो दिवपाची एक चाल अमेरिकेंत चलताली. इतल्या बेकारांक भत्तो दिवप तिका आतां पुटवना जालें. ती बंद केली.

बेकारिचो प्रस्न कितलेशे नवे प्रस्न उपरासून काडूंक लागला. बेकारांक कितें करचें तें समजना. ते लाचार जातात. आमकां कोण त्रातो आतां उरूंक ना म्हूण शिणपाक लागतात. निर्शेवन ते चोरयो करपाक लागल्यात, दरवडेय घालपाक लागल्यात.

अमेरिकेंतले विचारवंत आतां म्हणपाक लागल्यात —

आमी आमचे अर्थविवस्थेक आतां एक नवी दिका दिवंक जाय. एक नवी टॅक्नॉलॉजी आतां विकसावन काडूंक जाय, जी उत्पादनाच्या वावरांतल्यान कोणाक मुक्त करची ना. महाकाय राक्षसी कॉपॅरेशिनां बदला 'स्मॉल इज ब्यूटिफुल'ची देख मुखार दवरून उद्देगीक मळाची नवे तरेन उबारणी करूंक जाय. पुणून कॉपॅरेशिनांच्या धनयांक हें पटना. ते म्हणटात, जें तंत्रज्ञान उबें करून आमी अमेरिकेक गिरेस्त केल्ली तें आतां कशें सोडून दितले आमी?

भारतांत फाटलें रीण फारीक करपा खातीर नवें रीण काडूंक जाय म्हणपी 'तज्ञ' आसात तशे विश्वबाजार, मुक्त बाजार – ग्लोबलाइझेशन, लिबरलाइझेशनाचें धोरण संवसारभर चलोवन आमचें अर्थतंत्र सांवरून धरूंक जाय अशें म्हणपी 'तज्ञ' अमेरिकेंत वयर सरल्यात. आनी अमेरिका तांचे सांगणेन चलपाक लागल्या.

म्हळ्यार, आमी जें 'नवें आर्थीक धोरण' घेतलां तें आमचें अर्थतंत्र सुधारपा खातीर न्हय, तर अमेरिकेचें कोंसळून पडिल्लें अर्थतंत्र सांवरून धरपा खातीर, असो हाचो अर्थ जालोना?

सरकारांत आशिल्लो एकलोय सभागी हें आमकां सांगिना!

* * *

हें कात्रण वाचून हांव खुशालभरीत जालों. अमेरिकेची दादागिरी संवसारभर चल्ल्या ती आळाबंदा कशी हाडची, समजनाशिल्लें. हें कात्रण वाचतकूच दिसलें —

शोषणाचेर आनी झुजांचेर आधारिल्लें अर्थतंत्र कितलीय गिरेस्तकाय अमेरिकेक जोडून दिवं, तें सदांकाळ तिगपाचें ना. ताच्यांत ज्यो विसंगती आसात त्योच हें अर्थतंत्र कोंसळावन उडयतल्यो. आमच्यांनी, म्हळ्यार, आशिया, आफ्रिका, दक्षीण अमेरिकेंतल्या देशांनी, दोन निर्णय घेवचे आनी अमेरिकेचें अर्थतंत्र कोंसळावन घालपाचे प्रक्रियेक नेट दिवचो —

पयलो, आमी आमच्या संसाधनांचो वापर अमेरिकेक वा खंय गिरेस्त देशाक करूंक दिवपाचे नात अशें थारावचें. तांकां कांय नात. तांचे कडल्यान कांय घेवचे नात, अशें करचें. स्वदेशी स्वावलंबनाच्या तत्त्वांचे बुन्यादीर आमी आमचें अर्थतंत्र उबें करतले थारावचें आनी —

दुस्मानांकडेन आमी झुजचे नात. धरूंया झुजचेंच पडलें जाल्यार अ आमचीं शस्त्रास्त्रां तयार करतले आनी झुजतले. तयार करूंक अ नात जाल्यार तोणक्यांनी, फातरांनी वा तीर कामठ्यांनी आमी एकामे मारतले. पुणून हांचीं कोणाचीं शस्त्रास्त्रां केन्नाच विकतीं घेवपाचे हो निर्णय घेवंचो.

मागीर —

आयच्या संवसारा परस लाख वांट्यांनी सुंदर एक नवो संवसार जाल्लो आमी पळेतले.

अजून अलिप्ततायेची – NAM – चळवळ चलता. जायत व्हय का ह्या देशाक असलो एक थाराव तिच्या अधिवेशनांत हाडून पास व घेवपाचें?

## जागरुकपण

गोंयकाराच्या हातांत कितलोय दुडू घोळूं, ताच्या जिवितांत राम ज ना. तो अशें कितें तरी सोदीत रावला जें ताका दुडू दिवंक पावूंक म्हुण्णूच जावंये –

हालिंसाराक कोण चिन्मयानंदाचो भक्त जाला. तर कोण प आठवलेच्या विचारांचो प्रचार करूंक लागला. आनीक एकलो आ – जयंत आठवले गोंयांत पावला. भूलविद्येचो जाणकार. कांय जाण ता नादाक लागल्यात. रुशी प्रभाकर म्हूण एकलो पावला. त सिद्ध-समाधी-योग खंय खंय चलत रावला.

अजून ओशोचो शिष्य म्हाका कोण मेळूंक ना. आसतलो कोण्य. ह सोदूंक वचूंक ना.

पयर असल्याच एका गुरुचो एक चेलो मेळ्ळो. ताचें तोंड प हांवें ताका म्हळें, 'प्रसन्न दिसलें मरे तोंड तुजें.'

म्हणपाक लागलो, 'प्राणायाम आनी ध्यान करतां.' आनी तो म तोंडाकडेन पळोवपाक लागलो. 'आवडलें ना?' ताणें विचारलें.

'च्ये च्ये, आवडपा नावडपाचो प्रस्नूच येना. प्राणायाम करचो भायर, योगाचीं जाता तितलीं आसनां करचीं... आमचें – मदल्या वर्गा सगळ्यांचें जिवीत बसकें जालां. व्यायामूच जायना कोणाक. योगा आनी प्राणायामान आरोग्य बरें उरता. पुणून... तुगेलें तें ध्यान काय म्हणटा तें म्हाका सारकें समजूंक ना. कोणाचें ध्यान करता तूं?'

'ईश्वराचें', ताणें जाप दिली. आनी म्हळें,

'चित्त एकाग्र केले बगर ईश्वर मेळना आनी ध्यानाच्या अभ्यासा चित्त एकाग्र जायना.'

म्हजें तोंड आपशींच गप्प पडलें. मनांत म्हळें, चित्त एकाग्र केले चोराक तरी केन्ना चोरूंक आयलां व्हय? आनी राजकर्ण्याक सत्या हाल आयल्या व्हय? लोकांक लुटूंक मेळ्ळां व्हय? कोट्याधीश कशे पावले? एकाग्र चित्तान लोकांक नागयले म्हुणूच मू? हांकां सगव मेळ्ळां तें चित्त एकाग्र करुनूच मेळ्ळां. पुणून हे लोक, हाचे भाशेन, एका बसून नाका पुंडयेर चित्त एकाग्र करून ध्यानाचो अभ्यास करतात म्हा आयकूंक ना. ते आपणाल्या कामांतूच एकाग्र जातात.

हांव कांय उलयना सो पळोवन ताणें म्हळें, 'तुका कितें, हांव भुस

रतां शें दिसलें ?'

'च्ये च्ये... व्हडले व्हडले लोक ईश्वर जोडपाक ध्यान करतात. म्हज्यान फक्त I wish you success इतलेंच म्हणूं येता.'

आनी हांव ओगी रावलों.

कितल्याश्या वर्सां सावन पळेतां, अध्यात्माच्या मळार चडशा सगळ्यांच्या मनांत कांय चुकिचे समज घर करून बसल्यात वा बऱ्या समजांचे चुकिचे अर्थ घट जाल्यात. ईश्वर जोडप हो तांतलो एक. ईश्वर ना अशें म्हाका म्हणपाचें ना. पुणून तो आसलोय जाल्यार ताका ध्यानान जोडूंक येवपाचो ना इतलें हांव जाणां. ईश्वर जोडपाक पयलीं ताचें ज्ञान जावंक जाय. ध्यानान ज्ञान जायना. अणभवान ताचें ज्ञान जाता. आनी अणभव काळजाच्या खोल तळाक जावंक जाय. मागीर ईश्वर भितर तसो भायरूय सगळेकडेन दिश्टी पडपाक लागता. हरशीं तो दिश्टीय पडना, आयकुंकूय येना, चाखुंकूय येना, सांसपुंकूय येना आनी ताचो गंधूय घेवंक येना.

ध्यानाचो उद्देश चित्त शुद्ध करप होच आसूंक जाय. मनीस आपणा भोंवतणी जो सगळो दृश्य-प्रपंच उबो करता तो चित्ताच्याच आधारान करता. जशें चित्त तसो मनीस. चित्तांत कितें कितें भरिल्लें आसतलें, कोण सांगतलो ? जाय आशिल्लें मेळ्ळें ना, नाका आशिल्लेंच मेळत रावलें म्हणटकूच चित्तांत तरांतरांचे तरंग उठ्ठात. हे तरंग मनांत तरांतरांच्यो गांठी, निगरगांठी घालतात. आयुष्यभर मनीस हेच भाशेन मनांत गांठी निगरगांठी घालीत रावलो म्हणटकूच ताचें जिवीत किचकनडिचें, घुसपणेचें, घटखळ जावन पडटा. ह्यो गांठी ताच्यांतूच भितर उरिल्ल्यो जाल्यार गजाल वेगळी म्हणूं येताली. पुणून त्यो ताच्यांत भितर उरनात. त्यो ताचे वलणुकेंतल्यान उकताडा येतात. परिणामी, भोंवतणचें जग तो विखाळ करून उडयता. म्हूण, मनशान सगळ्यांत पयलीं आपणाल्या चित्ताची सारकी नियाळणी करूंक जाय. चित्तांत केन्ना कितें वयर सरता हें ताचे तांका स्पस्ट 'दिश्टी' पडूंक जाय. मन जागरूक उरलें जाल्यारूच तें दिश्टी पडटलें.

पयली जाणवीक जातली, आपूण भितरले भितर एका सारको बडबडत आसतां म्हणपाची. चित्त एके कडेन खंयच थीर रावी ना, केन्ना हांगा तर केन्ना थंय, केन्ना आनीक खंय अशें एका सारकें उडक्यो मारीत आसता; केन्ना फाटल्या कोडू गोड अणभवां वांगडा एकरूप जाता, तर केन्ना फुडाराची सपनां रंगोवपांत गुल्ल उरता म्हणपाचें दिसून येतलें. चित्ताच्या ह्या सगळ्या व्यापारांची मनशाक जागरुकपणान नियाळणी करूंक येवंक जाय. तिडक आयिल्ली आसली जाल्यार 'ही पळे, म्हाका आतां तिडक आयल्या', तिडकी वांगडा व्हांवन गेलो जाल्यार 'हो पळे, हांव तिडकी वांगडा व्हांवन गेलां; दुस्वास मत्सरान पेटलो जाल्यार 'हो पळे, हांव दुस्वास मत्सरान पेटलां', सुखान भुल्लुसून गेलो जाल्यार 'हो पळे, हांव सुखान भुल्लुसून गेलां', हे तरेची जागरूक जाणवीक मनशाक एका सारकी जायत रावंक जाय. मनीस आपणालीच हे भाशेन नियाळणी करपाक लागता तेन्ना तो खंयच्याच उत्फक्र्या सुवादीन जायना, खंयच्याच उत्फक्र्यांचो आपणाचेर शेक चलूंक दिना. आपणाक सारको वळखूंक पावता. आनी आपणाक सारको वळखप हाका ज्ञान म्हणटात.

हें ज्ञान मनशाक ध्यान करून येना. तें चडांत चड मन एकाग्र कशें करचें हेंच शिकयत. एकाग्रतायेक व्हडलेंशें मोल ना. वर्दळिचो खंयचोय रस्तो क्रॉस करचो पडलो जाल्यार तो एकाग्र चित्तान करूंक येतलो व्हय ? ह्या कडेन लक्ष दिवचें पडटलें. खंयची गाडी कितली पयस आसा, खंयची स्कूटर कितल्या वेगान धांवत येता, असल्या कितल्याश्या बारीक सारीक तपशिलांकडेन लक्ष दिवनूच रस्तो क्रॉस करूंक येतलो. तेच भाशेन, आमी खंयचेंय पावल उखल्लें जाल्यार ताचे खंय खंय कसले कसले परिणाम जावं येतात, खंय बरे आनी खंय वायट परिणाम जावं येतात हाचो पुराय नक्सो आमच्या दोळ्यां मुखार, पावल उखलता त्याच खिणाक, उबो रावंक जाय. एकाग्रताये परस हें जागरुकपण खूब म्हत्वाचें.

जागरुकपणाक लागून मनशांतल्यो गांठी, निगरगांठी सुटूंक पावतात. त्यो सुटले उपरांतूच ताचें चित्त 'मुक्त' जावंक पावता. आनी तो भोंवतणच्या चैतन्याकडेन एकरूप जावंक शिकता. असल्याच 'मुक्त' मनशाक ईश्वर दिश्टी पडत. फकत एकाग्रतायेची साधना करतल्याक केन्नाच दिश्टी पडपाचो ना. वरांची वरां 'समाधी'त रावलो तरूय.

## तॉलस्तॉयचो प्रज्ञावाद – ४

(५)

तॉलस्तॉय दोन शिटकावण्यो दिता. तो म्हणटा, आपणाक फटोवं नाकात आनी दुसऱ्यां कडल्यानूय फटोवन घेवं नाकात.

तुमचे हस्तुकीं घडटात त्या चुकांक, गुन्यांवांक (वा पातकांक) लागून तुमकां आनी समाजाक कितें भोगचें पडटा, तुमी जाणांत. तरी आसतना, तुमी चुको, गुन्यांव करीत रावतात आनी वयल्यान तांचें समर्थनूय करतात. केन्ना म्हणटात, कितें करूं ? कांय जापसालदारक्यो आंगार पडल्यात. घर-संवसार घेवन बसलां. तो सोडून कसो दितलों ? संवसार वाऱ्यार पडटलो. केन्ना म्हणटात, कांय कामां आंगार घेतल्यांत. तीं सोडून दिलीं जाल्यार म्हजेंच एकल्याचें न्हय, कितल्या-श्या जाणांचें लुकसान जातलें; शेत रोयलें ना जाल्यार तें पाड पडटलें; फॅक्टरी चलयली ना जाल्यार कामदार बेकार पडटले. केन्ना तुमचो कोण मनीस चोरी करता वा कसलोय गुन्यांव करता. दुसऱ्यान कोणेंय हो गुन्यांव केल्लो जाल्यार ताका ख्यास्त जावंकूच जाय अशें तुमी म्हणटले. पुणून हो 'तुमचो' मनीस आसता. तुमचे घरचो, सोयऱ्यां मदलो, जातिचो वा पक्षाचो आसता ताचो गुन्यांव तुमी दोळ्यां आड करतात.

सगळें चलत आयलां तशेंच चलयत रावतात.

मागीर ? आपलीं कामां दुसऱ्यां कडल्यान करून घेवप; आपणा खातीर दुसऱ्यांक श्रम करूंक लावप. दुसऱ्यांचेर सत्त्या चलोवपाक लागप. तरांतरांचे भोग भोगीत रावप. कांय कडेन तर निश्ठुरांतली निश्ठूर कामांय चलयत रावप – सगळें 'करचें पडटा' म्हूण तुमी करतात. हें फटोवप जाता. दुसऱ्यांकूय, तशें खासा आपणाकूय.

तॉलस्तॉय सांगता, आपणाकूय फटोवं नाकात. दुसऱ्यांकूय फटोवं नाकात. 'परिस्थिती' बिरिस्थिती म्हूण कांय ना. परिस्थिती आमच्यांनी बदलूं येता. परिस्थिती मुखार मान बागोवंक जायना. तिकाच मान बागोवन आमचे फाटल्यान्त हाडूंक जाय.

चुको, गुन्यांव (पातकां) करपाची संवयूच पडूंक दिवंक जायना.

गुन्यांव वा पातकांक तांचें पानवळ दशिल्लेंच आसता. मनशाक हें समजत जाल्यार तो गुन्यांव पातकां केन्ना करचोच ना. पुणून मनशान आपणाले बुद्दिचो उपेग सत्य सोडून काडपा बदला असत्याचीं समर्थनां सोडून काडपांत केला. हाका लागून गुन्यांव पातकां तो चलयत रावला.

पुणून असत्य केन्ना सत्य जालां व्हय ? असत्य मनशाक सत्य कशें दिसपाक लागलें जाल्यार ताची बुद्द विकृत जाल्या म्हणची पडटली. बुद्द विकृत जाल्ली नासत जाल्यार ताका सत्य आनी असत्य वळखूंक येवंकूच जाय. सत्य आनी असत्य वळखप हेंच तर बुद्दिचें काम.

तॉलस्तॉय देव, आत्मो मानपी. प्रार्थना करपी. प्रार्थना करूंकूच जाय म्हणपी. पुणून देव आत्म्याच्या नांवान जे भ्रम पातळ्ळ्यात तांचे आड दांत वोंठ चाबून झुजपी मनीस. तो म्हणटा, ह्या भ्रमांक भावार्त म्हणूंक जायना. भावार्ता बगर जियेवंक येना, खरें. पुणून भावार्त आनी कुड्डो

विस्वास दोनां मजगतीं व्हडलें अंतर आसा.

दोन तरांचे लोक समाजांत आसतात. एक, खरे भावार्ती; दुसरे, अंधविस्वासी. खरे भावार्ती सत्य वळखून घेतात. अंधविस्वासी चलत आयल्यात त्यो पोरण्यो, झिरझिरीत जावन पडिल्ल्यो, कित्याक उपकारनात असल्यो मान्यतायो चलयत रावतात. संवसारांतले चडशे लोक हे तरेचे. ते असत्याक सत्य लेखून चलतात. देव आनी मनीस हांचे मदीं एक दलाल जाय म्हणटात. आनी तो सांगता तें खरें मानतात. इतलेंच न्हय, तर ह्या दलालांत कांय दैवी गूण आसतात अशेंय धरतात आनी ताच्या उपदेसा परस चड ताणें केल्ल्या 'चमत्कारां'चेर विस्वास दवरतात. संवसारांत सगळे कडेन देवा धर्माच्या नांवान हेंच चल्लां अशें तॉलस्तॉयचें म्हणणें.

म्हूण तॉलस्तॉय म्हणटा, बुद्द सोडून कित्याचेरूच वा कोणाचेरूच निंबून रावूं नाकात. धर्माचो उपदेस करतल्यांक दैवी पुरूस मानपाची गरज ना. ते तुमचे आमचे सारकेच मनीस. तेवूय चुको करतात. सत्याचो विपर्यासूय करतात. चमत्कारांचेरूय विस्वास दवरूं नाकात. चमत्कार कोण करिना, आनी चमत्कार नांवाचें संवसारांत कितेंच ना. जें जें कितें घडटा ताका कारण आसता. हें कारण लक्षांत येना तेन्ना जें घडटा ताचो आमी चमत्कारांत आसपाव करतात. कारण आयज लक्षांत आयलें ना म्हूण फाल्यां येवचें ना, अशें ना. कितल्याश्या चमत्कारांचीं कारणां विज्ञानान सोदून स्पश्ट करून दाखयल्यांत. 'चमत्कार' करून जे तुमकां आपणा वशीन ओडून घेतात तांच्यांत आनी जादू करतात तांच्यांत फरक ना. ते तुमकां भूल घालतात. दुसरी गजाल – देवाकडेन संबंद जोडपाक मदल्या दलालांची – पुरयतांची, मुल्ला-मौलविंची, पाद्रिंची, दरवेशांची कोणाचीच गरज ना. तिसरी गजाल – यज्ञयाग, पुजा पनस्कार, यात्रा, अनुष्ठानां, नामजप, गजर बी कसल्याच कर्मकांडांची गरज ना. बुद्दूच आमकां सत्याकडेन घेवन वतली. ज्ञानाचें एकूच एक साधन तें. बुद्द सोडून कित्याचेरूच वा कोणाचेरूच पातयेवप ना. सत्याची पारख आमकां बुद्दूच करून दितली. तिच्यांत ही तांक आसा. 'तिचेर पातयेवंक जायना, ती आमकां भ्रमांत उडयता' बी म्हणटात तें खरें न्हय. बुद्दीन केन्नाच कोणाक भ्रमांत उडोवंक ना. तिणें उगडें नागडें सत्यूच सदां सांगलां. तर्क केन्नाय आमकां हे वटेन ते वटेन घेवन वचत. बुद्द सत्य सोडून दुसरे खंयचेच कडेन घेवन वचपाची ना. असत्याकडेन तर ती केन्नाच व्हरची ना. ना म्हळ्यार नाच ना.

देवाक वळखुपाक खंयच वचपाची गरज ना. तो आमच्या काळजांतूच बसला. तुज्यांत मोग करपाची तांक आसा तो ताचोच अंश. मोग उकताडा हाडूंक जाय आनी ताचे उकतावणेक आड येतात त्यो आडखळी पयस करूंक जाय.

[६]

## प्रार्थना

भावार्ताच्या नांवान कुड्ड्या विस्वासांत घुसपून पडचें न्हय म्हूण बुद्द सोडून दुसऱ्या कित्याचेरूच पातयेवंक जायना; नाका नाका जाल्ल्या भ्रमांनी आपूण घुसपून उरचों न्हय आनी आपणा हस्तुकीं जीं पातकां (गुन्यांव वा चुको) घडटात तांचीं लटकीं समर्थनां करचीं न्हय हें सांगता आसतना तॉलस्तॉय म्हणटा, हें सगळें खबर आसून लेगीत मनीस चुको गुन्यांव करीत आयला. कित्याक? आपूण कोण हें तो नकळ म्हूण.

आपणाक (आपणाल्या आत्म्याक) चडांत चड स्पश्ट रुपान वळखुपा खातीर आनी आपणाल्या लागणुकांची याद सारकी उरची हे खातीर तॉलस्तॉय आमचे मुखार एक 'बऱ्यांतलो बरो आनी चडांत चड प्रभावी' उपाय दवरता. आनी ह्या उपायाक नांव दिता – **प्रार्थना.** आमच्या दुबळ्या आंगां आड झुजपाची तांक दिवपी एक फळदिणें साधन हें.

प्रार्थनेच्यो तस दोन.

आमी खंयच्या पांवड्यार आसात आनी खंयच्या पांवड्यार चडूंक सोद[...] हाचो उगडास करून दिता ती एक. आनी आमचे दर एके करणे वां[...] एकासारकी – खंड पडनासतन्ना – चलत रावता ती आनी सगळ्यो करो[...] देवाच्या पांयांचेर ओंपपाक तळमळत रावता ती दुसरी.

सदच्या जिवितांतलो बऱ्यांतलो बरो वेळ सोदून, सगळ्या संवसा[...] वेव्हारांतल्यान कडेक सरून मनीस जे प्रार्थनेन काळजाच्या खोल त[...] आपणालो आनी परमतत्वाचो (परमात्म्याचो) स्पश्ट स्वच्छ दिश्टावो क[...] घेता ती पयले तरेची प्रार्थना. ती एकान्तांतूच करपाची. कशी? 'हें [...] तें दी' म्हूण मागून न्हय. 'कित्याक, तुका कित्याची गरज आसा हें [...] मागचे पयलींच ताका कळिल्लें आसता.' सादी प्रार्थना करची. Our Fath[...] who art in heaven, Hollowed by thy name, हे तरेची ये[...] केल्ली तसली. असले प्रार्थनेक लागून आमच्या भितरल्या जिविताचें [...] – सर्वस्व आमच्या काळजाचे नदरे मुखार स्पश्ट जाता. आमचो आ[...] परमात्म्याचो संबंद नितळ बरो आमी समजूंक पावतात. आमचें ध्येय स्प[...] जाता आनी आमचें आध्यात्मीक बळगें वाडटा. हे तरेचे प्रार्थनेंत आ[...] उतरां वापरतात तीं चड करून आमच्या म्हालगड्यांनी आपणालो आ[...] परमात्म्याचो संबंद उकतायता आसतना वापरिल्लीं तींच आसतात.हे[...] भाशेन आमी परमात्म्याकडेन संबंद जोडटा आसतना आमच्या म्हालगड्यां[...] कडेनूय संबंद जोडटले. येशूचे प्रार्थनेंत एका पोरण्या ज्यू भजनांतलीं उ[...] आशिल्लीं तींच उतरां ताणें परतीं म्हणिल्लीं. म्हूण, प्रार्थने खातीर येशू[...] उतरां परतीं म्हणचीं. फकत येशूचीं न्हय, हिन्दू बौदध चिनी संत-म्हात्म्यांच[...] म्हणचीं. तांकांय प्रार्थनेची भूक लागिल्ली आनी तांणी प्रार्थनेंत ताका सो[...] मारिल्लो. तेन्ना तांणी जी आध्यात्मीक अवस्था अणभविल्ली ती आम[...] अणभवूंक पावतले. ज्या उतरां उदेशीं तांकां परमतत्वाचो दिश्टावो जातो[...] तीं दायजान आमकांय मेळ्ळ्यांत. तांचो लाव आमी करून घेवंक जाय[...]

सदां अमक्याच एका थारायल्ल्या वेळार आमी करतात ते आनी[...] प्रार्थनेंत एक फरक आसा. ती नित्य-परिपाठाची, चालंत प्रार्थना. [...] जिवितांतल्या उदात्त अशा आगळ्या वेगळ्या खिणाक केल्ली प्रार्थना. अस[...] खीण जिवितांत येत आसतात. चड करून मरण लागीं पाविल्ल्याची जाणव[...] जाता तेन्ना. केन्ना केन्ना कसलेंच भायलें कारण नासतनाय ते येता[...] त्या वेळार काळजाक प्रार्थनेची भूक लागता आनी आमी काळजाच्या ख[...] तळांतल्यान ताका उलो मारतात. एके तरेचो मोलादीक खजिन्या सारो[...] खीण हो आमच्या जिवितांतलो. आमच्या अंतरंगाची स्पश्ट वळख क[...] घेवपाक आमी ताचो चडांत चड उपेग करून घेवंक जाय. असल्या वि[...] खिणांतूच आमी परमतत्त्वाचो सांगात जोडून आमची उदरगत सादूंक पावता[...]

ही प्रार्थना चार चौगांक सांगाताक घेवन करपाची न्हय. दुसरे क[...] खंयच लक्ष वचचें ना असल्या एकांतांतूच ती करपाची. हे प्रार्थनेक ला[...] आमी आसात ताच्या वयल्या पांवड्यार चडूंक पावतात. पशुपणांतल्या[...] मनीसपणाचे आनी मनीसपणांतल्यान दिव्यत्वाचे दिकेन चडत वतात.हे[...] प्रार्थनेक लागुनूच आमी आमच्यांतल्या दैवी निजाक वळखूंक पावतात आ[...] ह्या निजाक शिमेंत बांदून दवरपी तत्त्वां वळखून आमी त्यो शिमो तोडपा[...] वावर करपाक लागतात. प्रार्थनेक लागून आपूण कोण हाची वळख जाता[...] मनीस खंयच्याच पातकांत पडचो ना. आदल्या पातकांतूय बांदून उ[...] ना. पातकां ताचे हस्तुकीं घडूंकूच पावचिनात. कित्याक, ताका आपणे[...] नीज, खरेलें रूप, स्पश्ट बरें दिश्टी पडिल्लें आसता.

दुसरे तरेची प्रार्थना खंड पडनासतना एका सारकी भितरले भि[...] चलत रावता ती. तिका तॉलस्तॉय 'सतत प्रार्थना' म्हणटा.

आध्यात्मीक उदरगतिचे वाटेंत तीन तरांच्या चुकांची, गुन्यांवाची [...] तॉलस्तॉय म्हणटा त्या 'पातकां'ची मनशाक जाणवीक जाता.

एक, रेड्या पाड्यांक धांवां घालून गोठ्यांत बांदून दवरतात ते तरे[...]

ोळ्यांत बसून रावतात. केन्ना केन्ना हांबेवन 'आमी हांगा आसात' सांगतात. पुणून तीं मनशान 'बांदून दवरिल्लीं' आसतात. ताका लो सो त्रास दिनात. मनशाक तांचे आड चड झुजचेंय पडना. दुसरीं, ां तो निकतोच पातकां म्हूण वळखूंक लागला पुणून जीं जल्मभर -कळटां करीत आयला आनी 'हांचे आड झुजूंक जाय' अशें मानूंक ला, तीं. हांची जाणवीक ताका पयले तरेचे प्रार्थनेक लागून जाल्ली ाता पुणून अजून तांचे आड झुजपाक ताणें आरंभ केल्लो नासता. री, जांकां तो पातकां म्हूण स्पश्ट वळखूंक लागला. जांचे आड तो ूक लागला, झुजतना केन्ना खर्शेला, निर्शेला, तर केन्ना तांचेर जैतूय ूक पावला, तीं.

तिनांय आड झुजपाक खंड पडूंक दिनासतना प्रार्थना एकासारकी चलत ंक जाय. एकासारकी चलत राविल्ले प्रार्थनेक लागून मनशाक आपणालें भलें कित्यांत आसा हाची जाणवीक जायत रावता. पशू संस्कारांतल्यान ळो जावपाक हे तरेचे सतत प्रार्थनेची खूब गरज आसा.

सतत प्रार्थना परमात्म्याच्या सान्निध्याची जागरूक जाणवीक. आपूण लो ना, परमात्म्याच्या सांगातांत आसां हाचें भान.

हे जाणविकेनूच मनीस आपणाल्या दुबळ्या आंगांचेर जैत जोडूंक पावता.

[३]

तॉलस्तॉयच्या ज्या पुस्तकाचो हो आपरोस ताचें नांव The Christian achings. तॉलस्तॉयान आपणाल्या सगळ्या पुस्तकां वयल्यान भौन भौन ओडिल्लो. ह्या पुस्तकाचेर मात तो निखालूस ओडूंक पावूंक नाशिल्लो. ुष्य सोंपपाकडेन पाविल्लें आनी वेळ उरूंक नाशिल्लो. तरी आसतना, यलां तें समानधर्मी लोकांक उपकारा पडटलें हे आशेन ताणें तें उजवाडावंक ल्लें.

काकासायब ह्या पुस्तका संबंदान म्हणटात —

'हें पुस्तक मजे खातीर वाचपाचें न्हय. 'साहित्य' म्हुण्णूय वाचपाचें . साधकाचें 'पाथेय' हें. उदरगतिचे वाटेन चलूंक आंवडेतल्या मनशा ार खंयच्यान खंय वचचें हें सांगपी एक नक्सो हो. वाट दाखोवपी दिवो हो.'

ताच्या उजवाडान चलपाचें.

[सोंपलें]

## सह-अस्तित्वाचें तत्त्व

म्हगेल्या एका इश्टान एक फ्लॅट घेतलो (खूब खेपे सांगल्या हांवें ही बर). मुखावेलो फ्लॅट रिकामो आशिल्लो. कांय दिसांनी तो एकल्या नवळखी मनशान घेतलो. थोडी वळख जाले उपरांत म्हगेल्या इश्टान ळें, विचारांच्या मळार दोगूय दोन तोंकां वयले. तो कट्टर मराठीवादी. पूण कट्टर कोंकणीवादी. 'कितें करचें, आपणाक समजना' म्हणपाक गलो.

हांवें म्हळें, 'त्रास दिवपाक लाग... म्हणटकूच, एक दीस 'नाका हो जार' अशें म्हणून तो उबगतलो आनी हो फ्लॅट सोडून नव्या फ्लॅटांत लो.'

'शी... पिशेपणां जातलीं.' ताणें म्हळें.

'तशें जाल्यार, अशें कर. ताचेकडेन संबंदूच दवरूं नाका... उलोवं ीत नाका...' हांवें म्हळें.

'हीं सामकींच पिशेपणां जातलीं', ताणें म्हळें.

'हेंय जमना जाल्यार, ताका कोंकणीवादी करपाचो यत्न कर.' हांवें सुचयलें.

'कितें उलयता तूं... म्हाका अक्कल नाशिल्ले वरी म्हजे म्हाकाच दिसपाक लागतलें.' ताणें म्हळें.

'मागीर, कितें करतलो ?'

'ताका सोंसप हो एकूच उपाय उरता म्हजे मुखार', ताणें म्हळें.

'आतां कळ्ळें मरे ?...' हांवें म्हळें. 'भाशेच्या प्रस्नाचेर तुमचे कितलेय मतभेद आसूंत, तुमच्या दोगांयच्या जिवितांत दुसरे हजार प्रस्न अशे आसतले, जंय तुमी एकठांय येवन, एकठांय वावरून, एकामेकांचे बरे शेजारी म्हूण रावंक पावतले... मतभेद कडेक दवरून एकठांय येवन वावुरपाचीं जितलीय मळां मेळूं येतात थंय एकठांय येवप होच एक संस्कारी आनी सभ्य मार्ग आमचे मुखार आसा... हाकाच सह-अस्तित्वाचो, 'को-एक्झिस्टन्सा'चो मार्ग म्हणटात. आमचें चुकता तें हें – मतभेदांक फावता तो मान दिवन हेर मळांचेर एकठांय वावर करपाची कला आमी विकसावन काडूंक ना... मतभेदांकूच चड म्हत्व दीत आयल्यात.'

* * *

जनता पक्षाचे मुस्तींत जनता पक्षाच्या गोंयच्या फांट्याचो एक उपाध्यक्ष आशिल्लों. त्या वेळार हिन्दुत्ववादी लोकांकडेन खूब लागिंचो संबंद आयिल्लो. एक दीस एकलो हिन्दुत्ववादी उलयतां उलयतां मुसलमानांचेर घसरलो. 'कितेंय म्हण तूं... हे मुसलमान केन्नाच ह्या देशाचे जावपाचे नात... भितरल्यान सदांच ते पाकिस्तानीच उरतले...' ताणें म्हळें.

'हाचेर उपाय कितें आसा तो सुचय मरे...' हांवें म्हळें. तो मात्सो घुटमळूंक लागलो तेन्ना म्हळें, 'एक उपाय आसा... हिटलरी... हिटलरान ज्यूंक मारून ना केल्ले, तशे मुसलमानांक मारून उडोवप... जमत व्हय तुमकां हो उपाय ? समज, जमलो, जाल्यार भायलो संवसार मोन्यांनी तुमचें हें 'सत्र' पळेत रावतलो व्हय ?... मुसलमानांक मारून उडोवप तुमकां जमपाचें ना. तशे तांकां देशांतले धांवडावन घालपूय जमपाचें ना... कोणाकोणाक म्हूण तुमी धांवडावन घालतले ? मुसलमानांक आनी तुमकां पडना. शिखांक आनी तुमकां तरी पडटा व्हय ? किरिस्तांवांक आनी तुमकां पडटा ? बौद्धांक आनी तुमकां पडटा ? उरता मागीर एकूच उपाय... सगळ्यांक हिन्दू करून उडोवपाचो. हो तरी करूंक येत व्हय ? समज, सगळ्या मुसलमानांक आनी किरिस्तांवांक तुमी हिन्दू केले, जाल्यार ते हिन्दू जातकूच तांकां तुमी खंयचे जातींत घालतले ? तांच्यो मुदलांतल्यो जाती सोडून त्या जातिंनी घालतले ?... गोंयांत कांय वर्सां पयलीं हिन्दूंनी कांय किरिस्तांव गावड्यांक हिन्दू करून घेतिल्ले. ते हिन्दू जातकूच मुदलच्या गावड्यांनी तांकां आपणा भितर आसपावन घेतले व्हय ? ना. वेगळेच दवरले... खरो उपाय एकूच उरता – जो ज्या रुपांत आसा त्याच रुपांत ताका रावंक दिवपाचो. आनी ताच्या मनांत जो तुमचे विशीं भंय आसा तो काडून उडोवपाचो. हिन्दू आमचे व्हडले भाव, ते आमचे कसलेंच लुकसान करपाचे नात अशें तांकां दिसूंक जाय. दुसरो उपाय ना...'

* * *

दुसऱ्यां कडेन जुळोवन घेवप हिन्दूंक केन्ना जमलेंच ना. हिन्दू सदां महम्मद अली जिनाच निर्माण करूंक पावले. बादशाह खान निर्माण करूंक पावले नात. मुसलमानां मजगतीं बादशाह खान निर्माण करूंक येवंक जाय. ना जाल्यार, हो हिन्दू मुसलमानांचो 'प्रस्न' देशाक खंयच्या फोंडांत धुकलून उडयत, सांगूं येना.

* * *

आपणालें जल्म-थळ सोडून धर्म प्रसारा खातीर भायल्या देशांनी पयलोच

गेलो तो बौद्ध धर्म. पुराय आशिया खंडांत पातळ्ळो. म्हत्वाचें म्हळ्यार, हातांत तरसाद घेनासतना पातळ्ळो. जंय पावलो थंयचे थळावे परंपरेक बादा येवंक दिनासतना पातळ्ळो. ब्रह्मदेशांत गेलो. ब्रह्मदेशी जालो. तिबेटांत गेलो, तिबेटी जालो. चीनांत गेलो, चीनी जालो. हिन्दुस्तानांतल्या बौद्ध धर्माक जें जमलें तें अरबस्तानांतल्या इस्लामाक आनी रोमांतल्या ख्रिस्ती धर्माक जमलें ना. इस्लाम आपणा वांगडा अरबी फारसी संस्कृताय घेवन गेलो. जे मुसलमान जाले ते संस्कृतायेन अरबी फारसी जाले. क्रिरिस्तांव धर्म आपणा वांगडा येवरोपेव संस्कृताय घेवन गेलो. जे किरिस्तांव जाले ते संस्कृतायेचे नदरेन येवरोपेव जाले. बौद्ध धर्म हिन्दुस्तानांतलो. हिन्दू परंपरेंत जल्माक आयिल्लो. ताणें चीनी, जपानी, तिबेटी लोकांक हिन्दू संस्कृताय दिली ना.

ही 'मनीसपणाची नदर' जो देश बौद्ध धर्माक दिवंक पावलो त्या देशांत इतिहास विधात्यान इस्लामाक आनी ख्रिस्ती धर्माक कित्याक धाडून दिले जातले? घडये कोणाक पटचें ना, पुणून म्हाका सदांच दिसत आयलां, ह्या दोनूय धर्मांक मनशाळावपाचें काम इतिहास विधात्यान हिन्दुस्ताना कडेन दिल्लें आसूं येता. इस्लामी देशांत इस्लाम मनशाळूंक पावपाचो ना. तसो किरिस्तांव वातावरणांत ख्रिस्ती धर्म मनशाळूंक पावपाचो ना. दोनूय धर्म मनशाळ्ळे जाल्यार ते हेच भुंयेर मनशाळटले. होच देश सगळ्यांक सह-अस्तित्वाची देख दीत आयला. इतिहास विधात्यान सग सह-अस्तित्वाची देख दिवपाचें काम हिन्दुस्ताना कडेनूच दिल्लें अ जाय.

प्रस्न येता तो हो –

हिन्दू आपणालें हें मिशन विसरतले? काय जागरुकपणान मुखार च व्हरतले?

* * *

गांधी म्हणटाले —

संवसारांतले सगळे धर्म देवान दिल्या म्हूण सगळे **खरे.** सग मनशाक नितिचे नदरेन वयर काडटात, मनशांक बरे मनीस करपाक वा म्हूण सगळे धर्म **बरे. सारे धर्म सच्चे हैं, सारे धर्म अच्छे हैं.** घेतल्यान मनशांनी. तेवूय वेगळ्या वेगळ्या काळांत आनी वेगळ्या सुवातांनी. म्हूण **सभी धर्म कच्चे हैं** – सगळे अपूर्ण उरल्यात. धर्म पूर्ण जावंक जाय. कशे जातले? एकामेकां लागसार वचून, एका दिवन, एकामेकांकडल्यान घेवन. जाल्यारूच ते **धर्म** म्हूण चलत जाल्यार **अधर्मांत** बदलपाक तांकां कळाव लागपाचो ना.

सहअस्तित्वाचें तत्त्वूच सगळ्या धर्मांक पूर्ण धर्म करूंक पावतलें.

*

---

# पडसाद

नमस्कार,

जागाचो ऑगस्ट म्हयन्याचो आंक मेळ्ळो, आनी एके बसकेंतूच वाचून काडलो. जागान २६व्या वर्सांत पावल दवरलां म्हणून परबीं.

तुमी ह्या आंकासावन 'भास आनी समाज' हें समाजभासविज्ञानाक ओंपिल्लें नवें सदर सुरू केलां म्हण बरें दिसलें. तुमच्या भास-शास्त्राच्या गिन्नानाचो लाव आमकां वाचप्यांक जातलो अशी आस्त बाळगितां.

तुमच्या 'उश्णीं उतरां' ह्या लेखांत तुमी एक ल्हानशीच चूक केल्या. तातूंत तुमी 'बोणी' (बोणी करप – दिसाची पयलीच विक्री, ह्या अर्थान) हें उतर पुर्तुगेज 'Bom-Dia' (बरो दीस) ह्या उतरा वेल्यान आयलां, अशें म्हळां. 'बोणी' आनी 'Bom-Dia' हांतूंत उच्चाराचे बाबतींत सारकेपण आसलें तरी 'बोणी' हें उतर 'Bom-Dia' ह्या पुर्तुगेज उतरा वेल्यान येवंक ना; तें 'बोहणी' ह्या कानडी उतराचो कोंकणी अपभ्रंश (पळेयात: कोंकणी शब्दकोश, भाग २, श्रीपाद देसाय). 'बोहणी' हें उतर तुमकां मुंबय लिंकिंग रोडाचेर कपडे घेतना आयकूंक येतलें. ('साब! तुम्हारी बोहणी करेंगे!)

मो. सेबास्तियांव रुदोल्फ दाल्गादान आपल्या कोंकणी-पुर्तुगेज शब्दकोशांत 'बोहणी' हें उतर तशेंच दवरलां.

''बोहणी - BOHONI (Por. Abr. (अपभ्रंश) - बोणी (BONI) – अर्थ: Premeiro Venda que os mercadores fazem durante o dia (दिसाची पयलीच विक्री).''

तुमच्या तकालस घेवन बरयिल्ल्या लेखांत ही चूक नदरेक आ देव बरें करूं.

**सखाराम गो. शे.**

नमस्कार,

जागांतलो तुजो लेख 'उश्णीं उतरां' मन लावन वाचलो. बरी मेळ्ळी. एक दुबाव उकतो करपाक हें पत्र. बोणी करप – दिसाची विक्री ह्या अर्थाची – Bom Dia वयल्यान येवंक ना. बोणी (स्त्री.) विक्री. (का.) अशें श्रीपादबाबाल्या कोंकणी शब्दकोश भाग २, पा. मेळटा. तें बरोबर आसुंये.

'बोनी चांगली करा / भवनी करा' अशें मुंबयच्यो कोळी समा बायलो, भाजीवाल्यो सर्रास वापरतात. मराठी व्युत्पत्ती कोशय प

Hobson Jobson हो सुरेख कोश वाचतना कळ्ळें की ब वखार हें उतर मलाय भाशेंतल्यान पुर्तुगेज भाशेंत गेलें. ताचें अ लेगीत ते आपल्या वळणान करूंक लागले: (bangsal - ba आनी पुर्तुगेजींतल्यान परत कोंकणींत आनी हेर भारतीय भासांनी उश्ण्या उतरांचो इतिहास खऱ्यांनीच मन भुलोवणो.

**मनोहर पै धुंग**

ा. माधवी सरदेसाय हांणी 'अणकारी उशणेपण' ह्या माथाळ्याखाला 'भास
ो समाज' सदरांत बरयिल्लो लेख वाचलो. मानवलो. प्रा. सरदेसाय हांणी
भावसमृद्ध (आनी तरिकूय सुसंस्कृत) भाशेंत बरयिल्ल्या ह्या लेखांत
संबंदान जाणविकायो सकस करपाचो मन:पूर्वक येत्न केला, देखून तांकां
र्रां.

ांव विश्वविद्यालयीन पांवड्याचेर वावुरतां देखून त्या पर्यावरणांत चालंत
शेल्ले (आनी नाशिल्ले) उतरावळी संबंदान प्रा. सरदेसाय हांणी कांय
क्षणां माडल्यांत, त्या संदर्भांत कांय सुचोवण्यो करन दिसता.

त्यो करचे पयलीं – University ह्या इंग्लीश उतराक प्रा. अनंत काकबा
ाय प्रियोळकार ह्या ऋषितुल्य विद्वानान 'वैश्विक' हो प्रतिशब्द सुचयिल्लो
पाची नोंद करतां.

विद्यालयाच्या पांवड्यार वावर करप्यांक सकयल कोंकणींतले प्रतिशब्द
यात :

अधिष्ठाता (Dean), प्राध्यापक (Professor), प्रपाठक (Reader),
व्याख्याता (Lecturer), आचार्य (Ph.D.), उपाचार्य (M.Phil.),
गुरू वा उपकुलपती (Vice-Chancellor), कुलपती (Chancellor),
ध्यक्ष वा कुलाधिपती (Visitor).

ह्या उतरांची फोडणिशी अशी :

**ष्ठाता** (Dean): हें पद वास्तविकपणान दर धार्मिक मठांत वा
विद्यालयांतलें, चड करून किरिस्तांव धर्माकडेन चड लागिंचें नातें दवरपी.
देश करप, मार्गदर्शन करपी सुचोवण्यो करप (परंत त्यो बंधनकारक
सतात) हें ह्या पदाचें कर्तव्य. हें पद म्हळ्यार निखटे अध्यक्ष (Chairman),
ुखेली (President), हांचेसारकें न्हयच न्हय. तशेंच, तें निखटें पर्यवेक्षण
perintendence) करपी पद न्हय. हें पद म्हळ्यार त्या अभ्यासक्षेत्रांतल्या
लयाचो सर्वाधिकार दिवपी पद. अशें म्हत्व आसुनय दिव्य गिन्यानाच्या
दारान आपणाल्या अधिकाराखाला आशिल्ल्यांची मनसीक तशेंच बौदधीक
नाय घेवन तांकां गिन्यानाचें दान करपाची जापसालदारकी हें पद
वप्याचेर येता.

**यापक** (Professor): हें पद भुषोवपी व्यक्तीन वट्ट स्थान पचयिल्लें
सूंक जाय. खेरीज आपणाल्या अभ्यास-विषयांत आपणाले वाचन, मनन,
तन हे प्रक्रियेंतल्यान साकारलेल्या मत्तांचो पुरस्कार (profess) करूंक
य. प्राध्यापक म्हळ्यार निरिध्यास दवरपी व्यक्तिंचो मुकुटमणी.

**ाठक** (Reader): ह्या पदाचो लाव जाल्ली व्यक्ती आपणाल्या
यासक्षेत्रांतल्या गिन्यानाची मोलावणी करताच, खेरीज ताची अर्थवत्ताय
ading between the lines) सोदून दाखयता. प्रपाठकान आपणाल्या
यासविषयाचें विवरण, स्पश्टीकरण (expound) करचेलें आसताच,
रीज गिन्यानाचो सोद घेवपाची येवजणय (project) आंखचेली आसता.
ाठक म्हळ्यार प्राध्यापकाचो सहाय्यक (assistant) न्हय तर प्राध्यापकान
स्कार केल्ल्या विचारांचो अर्थ लावपी चिंतक.

**धिव्याख्याता** (Lecturer): हें पद म्हळ्यार अध्ययना वांगडा आपणाल्या
यासक्षेत्रांतल्या गिन्यानाचेर आदारिल्लें व्याख्यान दिवपाची तांक.
धिव्याख्याताक आपणाल्या मुखार बशिल्ल्या श्रोतृजनांकडेन कुशळतायेन
ाषण (discourse) करपाचें आसता. हें पद भुषोवपी व्यक्ती म्हळ्यार
दारण अर्थान शिक्षक न्हय, पूण आपणाल्या व्याख्यानांतल्यान श्रोतृजनांत
ळ्यार शिकप्यांत) चडावतपणान शिकपाची उमळशीक वाडची देखून येत्न
पी अभ्यासक, अशें म्हणन दिसता. 'लॅक्चरर' ह्या उतराचो संबंद Lector,
ctern ह्या उतरांकडेन आसा.

**गुरू वा उपकुलपती** (Vice-Chancellor): हें पद धारण करपी व्यक्ती
पती (Chancellor) चो सहाय्यक आसता हें खरेंच, पूण तो भारतीय
कृतायेंतलो गुरुय आसता, हें विसरायेर घालून चलचें ना. कुलपती हो
विश्वविद्यालयाचो नामधारी (titular) मुखेली आसता तर उपकुलपती हो
तात्त्विक नदरेन (ideologically) विश्वविद्यालयाचो मुखेलीच. ते व्यक्तीनच
आपणाल्या पदाधिकाराचो वापर करून गिन्यानाचो सोद घेवपी मार्गदर्शनपर
तत्त्वां, अभ्यासक्रम, शिक्षणक्रम थारावपाचो आसता.

**कुलपती** (Chancellor): हें विश्वविद्यालयाचें नामधारी मुखेलपण आसलें
तरी विधिवत् अंमल जाता काय ना हें हेर गजालींकडेन जाणविकायेन नदर
दवरपाची जापसालदारकी फाफडून उडोवंक मेळना. कुलपती राज्यपालय
आसता पूण राज्यपालानच कुलपतीपद सांबाळूंक जाय अशें बंधन ना.
कुलपतिचेर विधिवत् बंधनां आसातय आनी नातय अशें म्हळ्यार जाता.

**कुलाधिपती वा कुलाध्यक्ष** (Visitor): हे व्यक्तिच्या अधिकारक्षेत्रांत ताका
नेमून दिल्ल्या प्रदेशांतल्या साबार विश्वविद्यालयांची खऱ्या अर्थान अध्यक्ष
(Chairman) वा मुखेली (President) आसता, अशें मानल्यार बरें. ताच्या
अभ्यासक्षेत्रा वांगडाच वैश्विक गिन्यानाचोय सोद घेवपी ज्ञानाचार आपणाल्या
अधिकारक्षेत्रांत आशिल्ल्या विश्वविद्यालयांत अखंड चालंत आसतलो
म्हणपाची जतनाय कुलाधिपतीन घेवपाची आसता. ही व्यक्ती आपणाल्या
अभ्यासक्षेत्रांत गिन्यानाचो महापंडितच आसता, हेंवूय विसरायेर घालून
चलचेंना.

**आचार्य** (Doctorate of Philosophy): ही पदवी धारण करतली व्यक्ती
तिच्या अभ्यासक्षेत्रांतली व्यासंग करपी, संशोधन करपी आसता. तो व्यासंग
मात एखाद्र्या विशिश्ट विशयाक वेंगावपी आसता. हे व्यक्तीकडेन अभ्यास
विषयाचेर ठाम विवेचन करून सैद्धांतिक पुरस्कार करपाची तांक आसता.
द्रोणाचार्य, कृपाचार्य हीं त्या त्या विशयांवयलीं अधिकारी व्यक्तित्वां. अशीं
व्यक्तित्वां जेन्ना व्याख्यानां दिवपांतय अग्रगणत्व दाखयतात तेन्ना तांकां
वाचस्पती अशेंय म्हणन दिसता.

**उपाचार्य** (Master of Philosophy): आपणाल्या अभ्यासक्षेत्रांत कांय
प्रमाणांत भोवच मर्यादा घालून माणकुलीं संशोधनां करतकच जी पदवी मेळटा
ती धारण करतल्याक 'उपाचार्य' अशें म्हणन दिसता. विश्वविद्यालयाच्या
पांवड्यार Academic Council आनी Executive Council अशो बसका
आसतात तांकां अनुक्रमान *विद्वत्सभा* वा *विद्वत्परिषद* आनी *कार्यचालक
परिषद* वा *कार्यचालक सभा* अशें पाचारचें.

आतां एक गजाल खरी – पिरायेचे पस्तिशिकडेन पाविल्ल्यो कितल्योशोच
व्यक्ती प्रोफेसर (प्राध्यापक) जातात, तिशिचे आशिकुशीन आशिल्ल्यो व्यक्ती
रीडर (प्रपाठक) जातात. तांच्या गिन्यानाचो, अणभवाचो आनी तांकिचो विचार
भास करूंक सोदता कांय ना, हें म्हजे अल्पमतीक आकळना.

आनीक एक –

हेर भाशांतली उतरावळ आपणाले भाशेंत घेतकच तें उशणेपण अशें
म्हणटात. पूण, उशणें घेतकच तें पर्थून (कळंतरासयत) दिवपाचें आसता,
हो समाजमान्य व्यवहार. भास तो कसो हाताळटा काय?

**सु. म. तडकोडकार**

सप्टेंबरांतल्या 'जागां'तलो 'निर्जीव अन्न' हो अग्रलेख वाचलो. फाटोफाट
६ ऑक्टोबराच्या 'इंडियन एक्स्प्रेसा'चेर अजंली मोदी हांणी बरयिल्ली
Monsanto Crops Terminator Gene ही खबर वाचली.

दोनूय बरपां आंगार कांटो हाडपी. वाचून भौराष्ट्रीय कंपन्यांच्या हातांत
आमी धतरिचें भविष्यच विकूंक ना मू असो प्रस्न पडलो. मोन्सेण्टोची टर्मिनेटर
टॅक्नॉलॉजी धतरिकच वांझ करूंक उठल्या असोय दुबाव मारलो.

आमचो शेतकार शेतांत अजून घाम गळयता. संकरीत बियां वापरूनूय
आपल्या कुटुंबाचें पोट भरपा इतलें अन्न तो उत्पन्न करूंक पावंक ना. आपले
विवंचनेंत आशिल्ल्या ह्या शेतकामत्याक ह्यो भोवराष्ट्रीय कंपन्यो जेनेटिक

इंजिनियरींगच्या तंत्रज्ञानाच्या नांवाखाला परतें किल्लून न येवपी बीं विकतात. अशे तरेन त्यो शेतकामत्यांच्या जिविताचेर उठपाक सोदतात हाची शेतकामत्याकूय जाणविकाय ना. आमच्या पर्यावरण मोगी संस्थांनीय अजून हो भार आपल्या भुजांचेर घेवंक ना ही खरी गजाल!

इंडियन एक्स्प्रेसचेर आयिल्ली खबर तरी मात्शी उमेद हाडपी. 'नपुंसकत्वाचे गुणधर्म' आशिल्लीं बियां तयार करपी 'टर्मिनेटर जीन' तंत्रज्ञानाचो विकास आपणें तात्पुरतो बंद दवरला म्हणपाचें मोन्सेण्टो कंपनीन निकतेंच जाहीर केलां.

धतरेच्या सृजनात्मक गुणांचेर हावळ हाडपी ह्या तंत्रज्ञानाक संवसारांत खूब विरोध जालो. ताका भियेवनूच तांणी ही घोषणा केल्या. दर वर्सा शेतकामत्यांक नवीं बियां विकतीं घेवपाक पडचीं अश्या ह्या तंत्रज्ञानाक आनी भोव करून धतरेच्या सृजन चक्राची गतीच बदलपाची भिरांत आशिल्ल्या ह्या भोवराष्ट्रीय कंपन्यांच्या कारस्थानाक तांदळाची मुखेल बाजारपेठ आशिल्ल्या युरोपांतल्यान विरोध जावंक लागला.

मोन्सेण्टोन केल्ले घोषणे फाटलें खरें कारण हेंच. लोकांच्या हितापरसय तांकां आपल्या आर्थीक वेव्हाराचें अदीक पडून गेलां. वाडट्या विरोधाक लागून मोन्सेण्टोचो शेअर प्राइसय घसरला.

तरी तितल्याच निर्लज्जपणान आपल्या तंत्रज्ञानाचें समर्थनय ही कंपनी करता. जेनेटिकली मोडिफाइड बियां तयार करपी कंपन्यांनी हें तंत्रज्ञान विकसीत करपाक जी मोठ्या प्रमाणार गुंतवणूक केल्या त्या कंपन्यांक लुकसाण जावचें न्हय आनी तांणी केल्लो गुंतवणुकिचो तांकां मोबदलो मेळचो हे खातीर आमी हें तंत्रज्ञान विकसीत केलां अशें मोन्सेण्टो म्हणटा. वयल्यान अश्या व्हड प्रमाणार पिकां दिवपी बियांक शेतकारांची मोठ्या प्रमाणार मागणी आसता अशेंय कंपनी म्हणटा.

अमेरिकेंतले चडशे शेतकार ह्या नव्या बियां फाटल्यान गेल्यात पूण ... मात ह्या तंत्रज्ञानाक विरोध आसा. ते खातीर नॅस्ले सारकेले युरोपांत ... उत्पन्नांतले भोवराष्ट्रीय कंपनीन नपुसंकत्वाचे गुणधर्म आशिल्ल्या ... आपूण हे मुखार वापर करचिना अशें म्हळां.

रॉकफेलर फाऊंडेशनाचे अध्यक्ष गॉर्डन कॉनवे हांणी तर टर्मिने... म्हणजे जीवश्रृष्टिच्या नांवार एके तरेचो कलंक अशें म्हळां.

युरोप अमेरिका जागी जाल्या. लोकविरोधाक भियेवन ह्यो भोवराष्ट्रीय ... त्या दोन खंडांनी आपलें उत्पादन बंदय करीत पूण तांणी हें तंत्रज्ञान ... करपाक जे कोट्यांनी रुपया ओतल्यात तांचें कितें? शेतीप्रध... आशिल्ल्या भारत आनी तशेच तरेच्या गरीब देशाच्या माथ्याचेर ते हें ... थापचे ना मू?

अमेरिकेंत-युरोपांत विरोध जाल्लें तंत्रज्ञान ह्यो कंपन्यो आत... भारताचेर थापत आयल्यात. किडी-मुयो मारपी DDT चे दुश्परिणा... आमकां दिसूंक लागल्यात. आतां न्हय पूण आनीक कांय वर्सांनी ... संकरीत बियां आमचो घात मारतलीं.

ह्या तंत्रज्ञानाच्या विरोधांत भारतांत मोहीम सुरू जावंक जाय. ... मोगी संस्थांनी आतां विरोधाचो बावटो हातांत घेवंक जाय.

भोवराष्ट्रीय कंपन्यांच्या पोशांतल्यान उदक पियेवपी आमचे पर्याव... हें आव्हान स्विकारपाक शकतले? काय असले अग्रलेख फकत ... सारकेल्या नेमाळ्यार येवपाचें, इतलेंच...?

आमचे मुखार एक व्हडलें आव्हान आसा.

**सुशांत कुंकळयेंकार,** ...

---

एकल्यान एका संताक म्हळें, 'म्हाका थोडें तुजें सत्य दी.'

संतान म्हळें, 'घेतलो जाल्यार सगळें घे. थोडें सत्य तुका जड वतलें.'

उपरांत संत ताका घेवन गंगेचे तडीर गेलो.

एका हांड्यांत गंगेचें उदक भरलें, आनी हांडो ताचे तकलेर चडोवन म्हळें, 'हांडो घेवन वयर देवळांत यो.'

ताणें हांडो तकलेर उखल्लो. पुणून तकलेर घेना फुडें ताका तो जड जालो. 'म्हज्यान हो हांडो तकलेर घेवन देवळांत येवंक जावचें ना.' ताणें म्हळें.

संतान ताचे तकले वयलो हांडो देंवयलो आनी म्हळें, 'आतां गंगेंत देंव. चार बुचकळ्यो मार आनी वयर यो.'

तो देंवलो, बुचकळ्यो मारल्यो आनी वयर आयलो.

संतान विचारलें, 'तकलेर कितलें उदक आशिल्लें.'

'पुराय गंगा व्हांवताली.'

'जड लागिल्ली?'

'ना.'

'आतां कळ्ळें मरे? पुराय सत्यांत बुचकळ्यो मार. तुका तें जड वचचें ना. थोडेंशें सत्य मात पेलपाचें ना.'

---

जल्म आनी मरण हांकां वेगळीं काडून पळेतकूच सत्य सारकें समजना. संगितांत जसो सूर आनी ताल तशें जिवितांत जल्म आनी ... मरण. एकामेकांक पूरक.

दीस आनी रात मेळून पूर्ण दीस जाता, ते भाशेन.

अथर्ववेदान म्हळां –

**सोऽरिष्ट न मरिष्यसि मा बिभेः**

'मरणाक बाकिचे भियेवं, तूं भियेवं नाका. तूं अमृताचो अधिकार घेवन जल्माक आयला. मरण तुजें कांयच वांकडें करपाचें ना. तुका ... मरणूच ना.'

# माजे आज्याक एक हती आशिल्ली

मूळ मलयाळम: वायकम मुहम्मद बशीर
अणकार: आर. के. राव

[तिसरी खिस्त]

६

## एक गिरबुजीचो विलाप!

कुञुपातुमायन आंगणांत आसतनाच एक गिरबुजीचो विलाप आयकलो. ल्प पेळतांत वचाक तीणें पळयलेंय. दोगं गिरबुज्यो चोंचावन झगडतात. त एक व्हडान रडता!

तीं कित्याक झगडतात? कुञुपातुमाय 'षूषू!' 'भू!' 'घुर्रऽ!' अशें आवाज र्चाक तीं दोगंय उबून दूरा गेलीं.

कमळा तळयेचे लागीचान लागीचे पटांगणांत वचे व्हड माड्या सांकवार णे चडचाक तीं दोगंय गिरबुज्यो चिंचे रुकार बैसून दुसरीय चोंचावन झगडतात खलें. मात्र न्हय. तांत एक रडताय. घोणीन घेवन वचे कुंकडा पिल्ला री, मदत मागता! तिका व्हड संकट दिसलें. ती बालटी आनी दोर खाल डकावन धावन गेली. 'कित्याक झगडतात? नुतो बैसात!' अशें तीणे घुतकायेन सांगलें. गिरबुज्यो आयकनात. भयंकर रुपान एक दुसऱ्याक चायता. भो लान सवर्णी जाल्यारीय कितलें धाडस! स्वतंत्र सवर्णी झगडतात णे पयलेय देखलें आसा. घोण्यो, कायळें, साळयों – हांगेलें चोचीन धरपय, गडेंय देखलें आसा. घोव-बायलेचें झगडें की? कुंकडां एकमेक चोंचावन गडचे वेळार खंयच्याय एकाक कोणेय धरन दूरा काडतलो. तशें केलें जाल्यार चोंचावन चोंचावन एकलाक जीवनाशी मारतलें. कुञुपातुमायन गीरीय म्हळें: 'सांगल्यार आयकलें ना? साबाव बैस! कित्याक तशें चायतात?'

ते झगड्यांत एक चानीय भाग घेताली. ती चिंचेरुकाक लागून बैसून दुस दुस' करन मना करतांली.

चानीयेक कुञुपातुमायन म्हळें:

'सांगल्यार आयकना.'

सवण्यांचें कायरांत सवणे न्हय जालेल्यानी हात घालचें बरोबर न्हय. हण एक कठिन उपदेशा वरी एक सुतार पक्षीन आवाज केली. आनी एक ाड्याचेर एक तांबडे रेशमाचे गूळ्यावरी बैसली. 'कटु कटु' करन चोंचावन जु करूंक लागली. गिरबुज्यानी उबून एक दुसरे रुकार बैसून झगडें आरांबलें. ांच लागून तें दीन विलापान पडून आनी उबून सकल सुकल्ले पाले भरलेले गाध रानांतले कालव्यांत पडलें. दोन हातय विसकळावन भूंयक आखेर नेराधार रुपान वेंगावचे एक मनीशा वरी, ती गरीब गिरबुजी तीजी दोनीय ाकां विसकळावन उमर्ती पळ्या.

'चोय!' कुञुपातुमायन हड्डें दुखून म्हळें: 'कसलें केलें हें!'

ती कालव्या देगेर गेली. सकल देवन वचून चोवंचाक कांय वाट ना. ीजो प्राण गेल्लोलो आसतलो की? तीजे तोण्डांत एक थेंबो उदक घालन देल्यार तीं कदाचित.जियतली. पुण तिजें नांव बरयल्लेलो वजरतुल मुनतहाचो ान पालो पडल्लो आसतलो की? तो रूक कितलो व्हड आसुंक जाय! ाजेर कितलो पालो आसयेत! सग पालेय बरोबर आसचीना. भूयेचें नांव रयल्लो लान पालो आसतले. ताजाकय व्हड आसतलो गिरबुजीचें नांव बरयल्लो. हती नांव बरयल्लो व्हड पालो. कुञुपातुमायन समुद्र देखलो ना. देकून हती पाशीय व्हड देवमास्या कायरीं उगडास करना. तिजे आज्याचे हतीचें नांव बरयल्लो पालो सुकून वजरतुल मुनतहाचे पोंदाकच पळ्ळो आसुक जाय. तो पुडी जावन एका स्वर्गविल्या रेवांत मेळन आसतलो की? स्वर्गार रेंवं आसा की ना हें कुञुपातुमायक कळना. ती कालव्याचे देगेर आशिल्ल्या एक झाडाक धरन सकल ल्हवू देवंचाक प्रयत्न करचाकच माडेयलो फातरूय धरल्लें. झाडय सग मेळन ती एक दम सकल गरगडेली.

अल्लाह! म्हण ती सकल पळ्ळी. खंय सग की आडळें, चिरलें आनी लागलें. चिरल्लें दावे हाताचे कोंपरा पोन्दाक. थंयसून जायतें रगत येतालें. तें कांय तेन्ना तिका कळ्ळें ना. तिका हुलप, तान आनी दूख पडचाकच तीणे त्या सवण्याक काडलें. ती उठावन बैसली. ताजो प्राण गेलो सी तिका दिसलें. तिका एदें उदक दीवन चोयल्यार? तेन्ना तीणे रगत व्हावंतालें देखलें.

'तूं पसावत हात सिरलो' अशें सांगून दावे हाताचे बोटांनी तिजे ओंट ल्हवूच विसकळायले. उजे हाताचे उंगट्या लागीचे बोटार एक थेंबो रगत काडून ताजे तोण्डांत थेंब्यांनी घालें. मागीर तिजीं पाकां बराबर केलीं. तिका ल्हवू घुंवडावन तिजें पोट देखचाक... रबे! व्हारडीक जालेली आसा!' म्हण तीणे अखांतान म्हळें. स्वल्प तांबडे निश्याचे साथे वरी आसा तिजे पोटाची साल. पाकां मद्दें दोन लान तांतींयां तीणे स्पष्ट देखलीं. बापूयन आवयक गोवंटे धरन जीवनाशी मारचाक गेल्ले वरी... ओ... तीणे विचारलें:

'घोव गिरबुजी बायल गिरबुजेक चोंचावन जीवनाशी मारचाक वतालो कित्याक?'

तेन्नाय ताजो प्राण गेलो ना. अशें तिका कळ्ळें. तिजे दोळे विसकळेवनूच आसात. दोळ्यांतल्यान तीणे तिजो प्राण देकलो. ती संत उठायली. तेन्ना उंचार कालव्याचे देगेर एक तरणाटो रावला तीणे देकलो ना. तडी येवचाक वाट देख नातिल्ले ती भियेली. कालव्या वाटेन अर्द मील चमकिल्यार शेतांत पावतली. तशें वचें बराबर न्हय. गावंचे वाटेन येवंका जातलें. वाट किंतें? तशें रावचाक तीणे आवाज आयकलो. ती भियेली ना! एक हूमेली. वळख नाशिल्ले एक दादल्याचें प्रश्न.

'गिरबुजीक प्राण आसा?'

कोण हें? ती चुप रावली. आयकलें ना म्हण लेको. कसलो अपमान. ती चेहरो बावगोवन जमीनार चोवन रावली. सुके पाल्यांचेर पळ्ळेल्या तिजे रगता भोवंतणी एक पांच शें मूयो मेळ्यात; रगत पितात.

'तीरार चडून ऊंचं येवंचा नज की?' मागीरीय ऊंच सून आवाज.

'तीरार चडुंक कश्ट आसा. तरीय किंतें सांगप?' तीणे सत्य सांगलें:

'कश्ट.'

'कश्ट आसा की?'

'आसा.' तशें सांगल्लें बरोबर जालें की? लोक आयकल्यार किंतें म्हणतले? व्हारडीके पिराय जावन आशिल्ली एक मुस्लिम चेडूं. देकल्लोय आयकल्लोय नातिल्ले एक दादल्या कडे संभाषण केलें. तें उगडास करचाक कुञुपातुमाय पुराय हूनं जाली. तशें रावल्ले वेळार पेल्ले तांत एदे फातरा

कुटके निसरून पडतात तीणे देकले.

देवन येता! – धवें वस्त्र आनी धवो शर्ट घाल्लो एक तरणाटो. दावे हाताक एक भांगरा वॉच आसा. केस क्रोप केला.

तुतलेंच तिका दृष्टि पडता. झाडांक धरन सन्त देवन येता. तीणे पळ्ळेल्ले वरी पण्णा की? देवा, राख!... तशें भितर भयान ती रावली.

'ह्या पिराये भितर हांवें तुजे वरी एक चेडुवाक देकलें ना.' अजाप काम. गिरबुजीचें नांव कितें? इतलेंच खरशेवन ते तरणाट्यान म्हळें. सोपूर मीशयो आनी हसचे दोळेय आशिल्लो एक मनीशान, तिजे समान गोरो न्हय. तिगेलें नांव विचारलें म्हण मनां लेकून तीणे म्हळें:

'कुञ्जुपातुमाय.'

'कुञ्जुपातुमाय म्हण नांव?'

'व्हय.'

'आसो.' ते तरणाट्यान म्हळें. 'कुञ्जुपातुमायचें रगत त्या पाल्यार सग पडल्यां, न्हय?'

'व्हय.' सांगून जावंचाक कोंपरा खाल सूज आरांभली. ती हात घुंवडावन चोयली. कसलें की फातर की खुंटी लागून चिरल्लें. रगत व्हांवताय.

'चोयतां.' त्या तरणाट्यान म्हळें. हात ऊंच उबारन धर. रगत वचनातिल्लें आंसो.'

मगीर ते तरणाट्यान षर्टाचे खिसां सून रूमाल काडून दिगायेन तीन करन पिंजून तीनीय एकडे करन बांदलो. मागीर खीसांसून एक सिगरट बाक्स काडून तांतसून एक सिगरट काडून, ताजें कागद दूरा घालन घुंवरापान सग हाता ताळव्यार काव्ळें.

'हात स्वल्प सकल काड.' ताणे म्हळें. तीणे हात स्वल्प बावगयलो. ताणे घायांत धुंवरापान दवरन ल्हवू दमायलें. तीजे मोमे त्या तरणाट्याचे शरीराचेर खंयीय आपडतले म्हळेल भयान ते भितर काडचे गदी स्वल्प बावगली. तेन्ना थोडे कश्ट करन तीणे एक विशय देखलो. तांत तिका संकट दिसलें. त्या तरणाट्याचे दावे हाताक किरांगुळे बोट ना! तें कातरून पेल्लान घाल्यावरी... तें कशें गेलें? तीणे विचारलेंना.

ताणें विचारलें: 'हुलप आसा?'

'ना.'

'निपट?'

'स्वल्प स्वल्प.'

'हूं. कांय चिंता ना. हात तिमवंचाक नज. दोन तीन दीस वतर घाय करपून आसतलो.' अशें सांगून त्या तरणाट्यान बळान बान्दलें. उपरांत एक सिगरेट जळवन पीवन विचारलें, हासून. 'कुञ्जुपातुमाय उंचार कशें चडतली?'

कुञ्जुपातुमायन वाट कांय देखली ना. तिका अस्वस्थताय कि भय दिसले ना. चांग शेळवत आसतना उंजा लागी रावले वरी... कितें की तशें तिका दिसलें.

'गिरबुजीक देखया.'

तीणे हात विसकळायलो. गिरबुजी उपकार अथवा स्नेह कितेंकी स्पश्ट करचे एक लान सूरान उंचार उबून गेली!

'कुञ्जुपातुमायक उबुंक जातलें?'

'ना.'

'जाल्यार आमकां पाकां करूं!' अशें सांगून तो तरणाटो कुञ्जुपातुमायचो उजो हात धरन बान्धावेल्यान ऊंच आयलो. 'भियेवं नाका, यो.' अशें सग मद्दें मद्दें सांगतालो. कांय तरी कश्ट नातिल्लें कशें चडुंक शक्य जालें म्हण तिका कळना. एक चोयल्यार अजापय. ती उंचार पावंचाक. 'आनी कुञ्जुपातुमाय वच!' म्हण सांगून हासून तो कालव्यांत ल्हवू उडकी मारन धावन देवन दिष्टी पडना अशें जालो.

कुञ्जुपातुमाय मागीर वताली सपनांतले वरी. तिजो एक एक कणूय सुखा झळकचे वरी तिका दिसलें. मना भरन संतोषूय.

ती बालटी, दोर आनी वस्त्रां घेवन लागीचे पटांगणांतल्यान बायचे समी गेली. न्हांवचे फूडे तीणे चडच मोगऱ्या फुलां वेंचून काडून एक पाल्या दवरलीं. त्या उपरांत तीणे चोगो काव्ळो. अंगूठी न्हेसली. वस्त्रय मेकळ दवरलें. बान्दून दवरल्लो केस मेकळो केलो, आनी कुञ्जुपातुमायन बाल बायंत देंवयली. बालटी उदका आपडचे वरी जावंचाक फूडें देखल्या त तरणाट्याक तीणे उगडास केलो. 'हात तिमोवंचाक नज.' हीं उतरां. अजा म्हण सांगयेत, त्या वेळार ती लजेवन हुमेली आनी बालटी आनी दं अस्वस्थतायेक लागून बायंत घालून, ती धारार वस्त्रां काडून मोमे धांक बावगून बैसली! कारण तो तरणाटो त्या घराचें दार उक्तावन आंगणां देवलो.

'ओ... कुञ्जुपातुमाय न्हाता, न्हय?' ताणें म्हळें. 'हांव तें नेण. मा एदें उदक जाय आशिल्लें. हांव आतांच वचन. माका एक गिलास उद जाय.'

कुञ्जुपातुमायन ल्हवू म्हळें, 'बालटी आनी दोर बायंत पळ्ळें.'

'कितें बालटी आनी दोर?'

'बायंत पळ्ळें.'

तेन्ना तो तरणाटो हासून बायंत चोयलो.

'आनी कशें न्हातली?' ताणें विचारलें.

कुञ्जुपातुमायन कांय म्हळेंना. बालटी आनी दोर नातिल्लें घराक गेल् आवय सवतली!

तो तरणाटो वस्त्र खोवन ल्हवू बायंचे देगेवयल्यान देवन वचून बाल आनी दोर घेवन आयलो. ताणे एक आयदन हाडून उदक व्हरचे वेळ म्हळें: 'कुञ्जुपातुमाय न्हा. तो घाय तिमोवंचा नज.'

ते तरणाट्यान घरांत सरन दार बंद केलें. ती चोगो घालन वस्त्र न्हेस बालटी, दोर आनी अंगूठी काडून घराक ल्हवू वचून उदक भरन न्हा तीणे त्या तरणाट्या पासून उगडास केलो. लजेन की तिजें शरीर आ चेहरो धुवरचे वरीं तो मनीश कोण? ते घरांत कशी पावलो?

ते दिसा रात ती जेवली ना. विचारूक तीणे म्हळें: 'माका नाका.' बापू विचारचाक तीणे म्हळें, 'माका पोटा दूख!'

तशें सगय मेळन रातीचे निःशब्दतायेंत 'तौबा' करचे वेळारीय ताजे मद्य कुञ्जुपातुमाय त्या अनोळखी तरणाट्यापासून चिंतन करताली. 'तौबा' क वेळार व्हड रात जाली. घासलेट तेलाचे दीव्या मुखार बैसून ग्रन्थ पळो बापूय 'तौबा' म्हण दितालो. हें संसाराक रचल्या... सर्वय जीव-प्राण्यां धनी... रूप नातिल्लो करुणानिधी... हाचे लागीं हे तीन प्राणी राती निःशब्दतायेंत बैसून मागतात. बापूयन सांगल्लें आवयन आनी तीणे म्हळें. एक एक वाक्य तीन तीन आवाजांत तेगय जाणानी पुनः म्हळें. ते प्राणीयो रब्बुल आलमीनाया संता कडे माफी मागतात.

बापूयन भक्तीन आरंभलें.

'आमचे धनीया... आमी सग तुजेकडे माफी मागतात, धनीया. सू लान अपराधांसून, चडान चड व्हड अपराधां पर्यन्त जाणतां केल्ले दोषांक, नेणतां केल्ले दोषांकय खेद करन, भयान 'तौबा' करन मागतात.

तशें सुरू करन, आमी मुखार अपराध करचीना, आमकां इबलीस नांवे चेड्याचे द्रोहा सून राखुक जाय. सगटांकय आखेर 'फिरदौस' नावाचे स व्हरूक जाय, तुकाय, मुहम्मद नबीची व्हारडीकय आमचे दोनीय दोळ्यां देखचाक जाय तांत भाग घेवंचाकय जाय – हांजे खातीर आमचेर ग्र करूक जाय अशें मागून भक्तीन 'आमीन' म्हण प्रार्थना सोंपयली.

उपरांत थोडे दिसांक आवयन व्हड गोंदोळ कांय केलो ना. 'आंग करन जाल्ली धूव' अशें मायेन सांगलें जाल्यारीय आवयन परतून गळ

ालुक सुरू केलो. सोवंचाक लागली. झगडें करूक सुरु केलें. बापूयक तोण्डार आयल्लें सांगतली. बापूयक राग हाडचाक सोवतली. कुञ्ञुपातुमायक ताचे खातीर कितेंय म्हळ्यार तुरंत आवय सुरू करतली.

'तें गो तुका कोण व्हारडीक करन व्हरनात! तूं बैसून भातो लागता तू निर्भागी आसून. माका व्हारडीक चौदा वर्सांचे पिरायेर. तुका आतां पिराय बावीस, बावीस!'

बापूय म्हणतलो: 'तू एक नुतो बैसशी? देवाची दया आसल्यार तिजी व्हारडीक हेच वर्सा चमकतली. हांव चेड्याक पळयतां आसां.'

'ओ, हीका कोणं व्हारडीक करूक?'

आवयचे अभिप्रायांत कुञ्ञुपातुमायक व्हारडीक करूक कोणेय येवना.

'किते देकून की येवंचाक?'

कांय ना. देणें दिवंचाक कांय आसा? भांगार-जायें, अथवा वस्त्र कांय आसा?

बापूय म्हणतलो: 'कोणेय येतलो!'

कोणकी येतलो? हड्डें धुवरची एक चिंता ती. तरीय कोणय आयल्यार कितें? घरांत कांय सुख ना. केन्नाय धमकी, शिराप. आवयक कित्याकय कसल्याकय मुखार सरन अभिप्राय सांगुक जाय. कसलेंय जाता जाल्यार आवयचे कडे विचारूक जाय. पुण कोणेय विचारप ना. आवय बैसून सर्वांकय धमकायतली. वाटेन वतल्ले चेडे आवयक परिहास करतले. मागीर बापूयक तांचे कडे झगडुंक जाय. न्हय जाल्यार आवय ते पोरणे खडावांचेर भायर सरतली. तांचे बापूय, आजो हांकां सर्वांकय धमकायतली. सगटांकय आवयक लायिसेन्स आसा. मशीदाचे शासन करपांतय आवयकय हात जाय. मशीदांत खतीब. अथवा मुक्री – हाका बदलका जाल्यार आवयक विचारून जाय. पुण कोणे विचारप ना. आवय बैसून ना जावन गेलेल्या पोरणो प्रताप आठोवन सर्वांकय धमकायतली.

बापूय म्हणतलो:

'तुका एक नुतो बैसुक पाडना?'

'बैसलीना जाल्यार चेम्मीन अडिमा नाकांत वोडून काडतलो की?'

'आगो!' बापूयचो तो आवांज आनी दिष्टी... कुञ्ञुपातुमाय बैसून कडकडतली. कितें घडतलें? ती ल्हवू उलो दितली: 'वापू!'

बापूय तिका दुखान चोयतलो. नुतों भायर देवन वतलो. घरांत शांति जाय मू.

आवय आनी बापूय – दोगांकय दुसरीय एकमेकाक देखुक पाडना जाल्यां. हें अशें घडता कितें पसावत? ती तशें बैसतली. ते तरणाट्या पासून उगडास करतली. देखचाक ना. खंय गेलो? खंय सून आयलो? नांव कितें? जात कितें? कांय कळना. जीणांत एक फांता मेळोलो एक बरो मनीश.

तो चेहरो. तो सौम्य हासो. नाजाल्लें तें बोट.... कसल्याक की, कितें की. नाजाल्ले ते बोटा पासून केन्नाय ती उगडास करतली. कोणेय नातिल्लें तें घर. बांयचे देगेर भरन फुलेवन राविल्लीं मोगरे झाडां. बाकी ते विशाल पटांगणांत कांय ना. करपून आशिल्लीं तणां मात्र. तो अज्ञात तरणाटो – ताणे बांधून दिल्लेलें कुञ्ञुपातुमाय मेकळून चोयली. सग करपून सुकून आसा!

सग पोरणे इतिहासाचो केवल उगडासावरी जालो.

तशें दीस गेले. एक दीस तें पटांगण आनी घर कोणेकी मोला घेतलां म्हण आयकलें. कोणेकी? पुण दोन तीन दीस जावंचाक दुखान तिका कळ्ळें दूर आशिल्लें कोणेकी म्हण. न्हावन रावचाक आयल्ले. तेग जाण्ण आसात. काफीर आसात. एक पिराय जाल्लो दादलो आनी एक पिराय जालेली बायलय. आनी एक बडाय मारतल्ली एक लान काफीरी बायल.

कुञ्ञुपातुमायक ओट्टु दुख जालें. एक दुर्बळकाय. फुटल्ले नशीबाची ती. घरघरचें हड्डें घेवन ती जगत्कर्ता लागी म्हणतली:

'या अल्लाह!'

हे संसाराचो रचपी! म्हण मात्र हड्डें भरन विकरचे आकांक्षा सयत ती तशें रावतली.

तिगेली अभिलाषा कितें?

भविष्य कितें?

७.

## चोर बुद्दूस

एक दीस दनपारां शेजारचीं बडायो मारपीण लान काफ्रीची कमळा तळयेचे लागी रावून साडी आनी ब्लाउस मेकोळन दवरताली कुञ्ञुपातुमायन देखलें.

ती तरणाटी बोडीस आनी गाग्रो घालन रावल्या.

'ओ, चोग्या भितर सण्ण चोगो... वस्त्रा खाल... हो!' म्हण कुञ्ञुपातुमायन मनां लेकलें. तुरंत तिका एक हुनसाण दिसली.

जगत्कर्ता परमेश्वर, ती लान काफ्रीची न्हावंचाक वता! जळू चाबून जीवनाशी करतली!

कुञ्ञुपातुमाय देवन धांवली. तिजे केस निसरले. तरीय ती धावली. न्हावूं ना! न्हावूं ना! म्हण सांगून खरशेवन त्या तरणाटी लागी ती गेली.

ती लान काफ्रीचीन काय अस्वस्थताय दाकोव नातिल्लें कुञ्ञुपातुमायक म्हळें:

'बुद्दूस!... न्हावनाका, न्हावनाका अशें सागुंक जाय?'

कुञ्ञुपातुमायन कांय म्हळेंना. हम्पडी! पूण जळू चाबून जिवनाशीं करो! हो... 'न्हावनाका, न्हावनाका म्हण सागुंक जाय! 'न्हावूं ना न्हावूं ना' म्हण सांगल्यार कितें? तिगेलें सांगप दिखलें? कुञ्ञुपातुमायन चिंतन केली. काफ्रीच्यो सगय अशें आसतल्यो! बडायो! पुण पोरणे उगडास आयले. फूडे लान आसतना बापूय तिका शिंगारन न्हंयंत न्हाणवंचाक व्हरचें दृश्य. तेन्ना तीं अध्यापिका काफ्रीच्यो सगटय व्हड स्नेहान आचरताल्यो. हीवय तांचेवरी उलयता जाल्यारीय... तांचे पाशीय बडायो मारपीण आसा. कुञ्ञुपातुमाय मासळेक चोवंचाक कमळा तळये देगेर सरली.

'हो कसलो बरो केस! बडायो मारपीण सांगता: ओ काळो तीळूय. सुंदर आसा!' अशें सांगून बडायो मारपीण ब्लउस घालन, साडी न्हेसून कुञ्ञुपातुमायचे समीप गेली. आनी गंभीर सूरान विचारलें:

'सुंदरी! हे कमळा तळ्यांत न्हावंचाक साधारण लोकांचेर काय प्रतिबंध आसा?'

कुञ्ञुपातुमायन म्हळें: 'मागेलें नांव 'सुंदरी' अशें न्हय.'

'सुंदरी' ती बडायो मारपीण हासली. बुद्दूसे, सुंदरी म्हण सागुंक जाय. आसो, नांव कितेंकी?'

'कुञ्ञुपातुमाय.'

'हा, मनोहर नांव. नबी हांची धूव फातीमाचें – तें आसो. हे कमळा तळ्यांत न्हाल्यार कितें?'

'जळू चाबतली.'

'बायल जळू कि दादलो जळू?'

'घोवूय बायलय आशिल्लीं. एकलान माका चाबून रगत सग पिल्लीं.' कुञ्ञुपातुमायन म्हळें. 'मागलें रगत सग पिल्लेले जोळूक मासळेन खेल्लें! हांत हेवाळें आनी कासोवूय आसा.' उपरांत कुञ्ञुपातुमायक जळूवेन चाबल्लीं कायरीं अस्वस्थतायेन तीणे म्हळें: सूजल्ली जळू जांगेर लांबून पडचो भाग येवंचाक बडायो मारपीण कडकडेली आनी तीणे तिजे दोळे टकून पळयलें. 'भो!' म्हण लान हती बोब घालचेवरी आवाज केलो. 'हांव तरी जालेली जाल्यार', बडायो मारपिणीन म्हळें: 'बोंब मारन सर्वय मनीशांक हांगा हाडतलीं आशिल्लीं. आखेर बेशुद्ध जावन पडतलीय आशिल्लीं.'

कुञ्ञुपातुमायन बोब घालेना मू! बेशुद्ध पळ्ळीय ना! तांत तिका व्हड महत्व दिसलें. ती चिंचे पोंदाक गेली. एक पिकल्लीं चींच पळूया देखली. तीणे ती काडून साली भेतून स्वल्प काडून तोण्डांत घाली.

बडायो मारपीण तिजे लागी वचून, 'कितें चींच खाता की?' विचारलें.

'व्हय.' चींच सग बायलोय पसंद करतल्यो? कुञ्ञुपातुमायक दुबाव दिसलो. तरीय तीणे विचारलें: 'जाय?'

'एक लान कुटको दी!' म्हण बडायो मारपिणीन म्हणचाक तिजे तोण्डांत उदक भरन आयल्यां अशें कुञ्ञुपातुमायक दिसलें! कुञ्ञुपातुमायन एक व्हड कुटको दिलो. बडायो मारपिणीन तो घेवन खेलो, साधारण बायलांनी खावंचे रीतीर न्हय. दोळे लान करप जावो चेहर्यार अस्वस्थताय हाडप जावो केलेना. बडायो मारपिणीन काफ्रिचीन गुण्टी सयत मेळचाक गिळी.

कुञ्ञुपातुमायन अजाप रूपान म्हळें:

'गीळुक नज?'

'गिळ्यार कितें?'

'पोटां रावून किरलेतली! व्हड रूक जातलो.'

बडायो मारपिणीन म्हळें:

'माजे पोटांत पाषणा फाथर घल्यारीय जिरतलो! माजे पिराये पासून अशें म्हण साधारण जनं संभाषण करतात!'

कुञ्ञुपातुमायन एक व्हड कुटुको लागी दीवन विचारलें: 'कितलीं वर्सां आसात?'

'सतरा.'

'माका', कुञ्ञुपातुमायन म्हळें: 'आवय म्हणता बाईस वर्सां म्हण.'

'बापूय कितें सांगता?'

कुञ्ञुपातुमाय कांय उलयली ना.

'कितें गो बुद्दूस कांय उलयना?'

'माका बुद्दूस म्हण उलो दिता किंत्याक?'

'बुद्दूस, तशें न्हय. तुका बुद्दूस म्हण उलो दितात कित्याक? हें माका कळना. महती देवीयांक सगटांकय 'चोर बुद्दूस' म्हणयेत. देकून मागेलो भाव माका 'चोर बुद्दूस' म्हणता.

भाव! काफ्रीची अशें म्हणता कितें?

'तशें हांवें समझलां. बायलेचें आनी एक अर्थ येवचें उत्तर 'चोर बुद्दूस' म्हण. आनी मागेलो भाव माका 'लुट्टाणी' म्हणता.

'भावाचें नांव कितें?'

'निसार अहम्मद...बायले मनीशीचें नांव कितें?'

तीणे म्हळें: 'आयीषा.'

'तुमी कसली जातीचीं?'

तीणे म्हळें: मुस्लीम.'

यारबुल आलमीन! कुञ्ञुपातुमायन विचारलें, 'आमचे वरी?'

'न्हय. आमी ठेठ इस्लामी आसात.'

ठेठ इस्लामी...,कान दोनीय विंदून फुल्ली घालेना? काना लागी भांगरा दोन फुलां आसात! न्हेसल्या साडी! घाल्यां ब्लौस. ताजे पोन्दाक एक सण्ण लागून आसचो एक चोगोय आसा!

'नांव कितें सांगलें?'

'आयीषा. पुराय नांव आयीषा बीबी. अथवा बीगम आयीषा. आयीषा बानू म्हणूय उलो दीवयेत्! काळेजांत माजे नांव आयीषा बीबी. घराक माजो बापूय आवयीय आयीषा म्हण उलो दितात. हांवें म्हळें न्हय कि, भाउ माका 'लुटापी' म्हणता. 'चोर बुद्दूस' म्हणूय उलो दिता.

'आयीषा' हें मुहम्मद नबीचे बायले नांव आसा.

कुञ्ञुपातुमाय अजाप दिश्टीन चोयली.

'हीं कसलीं इस्लामी?'

कुञ्ञुपातुमीयन विचारलें: 'वोंटार मीशी नातिल्लो, माथ्यार केस आशिल्लो दादलो कोण?'

कुञ्ञुपातुमायक खेळ करचे वरी आयीषान म्हळें: 'माजो बापूय... मा ती साडी न्हेसल्ली माजी आवय.' उपरांत आयीषान विचारलें: 'तो मनीश तुगेलो बापूय की?'

'व्हय.'

'रात दीस कलपला सूर करता?'

'आवय.'

आयीषान विचारलें: ती कित्याक व्हडान उलयता? शेजारच्य निदेवंचाक जावना मू! मुस्लीम बायलौ नम्रताय नातिल्लें अशें साध जनांक त्रास दिवपी जाल्यार तें बरें की?

कुञ्ञुपातुमायन कांय जाप दिली ना.

आयीषान विचारलें: 'तुगेली आवय आमचे मुखार उदक नातिल्ले लान कालव्यांत येवन हागचाक बैसता कित्याक?'

'तें आमी राती वाटेर बैसून हागतलीं. हें दीस देकून.'

'तें बरें! मनीशाक चमकचे वाटेर हागचें बरें! हे गावांत सगटय की...?'

कुञ्ञुपातुमायन म्हळें: 'व्हय.'

घरकडे संडास केल्यार कितें?

कुञ्ञुपातुमाय चुप रावली. कुञ्ञुपातुमायन विचारलें: तुमचें घर खंय?

'आमकां स्वत:चें घर ना. पुण शरांत एक घर आसा. तें आमकां आसा. आमी तांत प्रयत्न केल्लोलोय आसा. थांगा भिन्न भिन्न ओट्टु-आम्ब्याची झाडां, ओट्टु-पेरी झाडां, सपोटा, जाती, खुंटा जांब, मोगोरें, गुलाब हांची झाडां – मात्र न्हय फळ, फूल जावचीं रूक, झाडां, वालीयो आसात.'

उपरांत घराचें वर्णन: 'कोयलूवेचें दोन माळियाचें घर. ताजे भोंवर हळदुवी वण्टी आसा. घराचें फाटक नीळ साया काळ्ळेलें. घराचे प्रतिकृ इलेक्ट्रिक दीवे आसात. आनी रेडियोय आसा.'

'तें कितें?' कुञ्ञुपातुमायन विचारलें. बाकी सग तिका कळ्ळें. 'चिरडि प्रकाश दिवचें दीवे' तीणे देखले आसात. रेडियो कितें – हें तिका कळ

आयीषान म्हळें: 'ती एक पेट. तांतल्यान अनेक, अनेक राज्यांतलें आनी खबरो आयकयेत.'

'मक्कासून आयकू येतलें?'

आयीषान म्हळें: 'अरेबिया, टर्की, इरान, आफगानिस्तान, रूस, आफ्रि मद्रास, जर्मनी, अमेरिका, सिंगपूर, डल्ही, कराची, लाहोर, मैसूर, इंग कैरो, आस्त्रेलिया, कलकट्टा, सिलोण – मात्र न्हय, लोकांतले चडा राज्यां सून आयकयेत.'

कुञ्ञुपातुमायक तें कितें म्हण कळ्ळें ना. कसलेंय जावो 'प्रताप' चड जालो. तीणे एक मुखेल प्रश्न केलें: 'तुमचे घराक चिंचे रूक की?'

'ना.'

'मागीर कितें चींच चड प्रधान न्हय?'

कुञ्ञुपातुमायन विचारलें: 'चोर बुद्दूस!... तुमकां हती आशिल्लीं?'

'ना.'

कुञ्ञुपातुमायन अभिमान सयत म्हळें: 'माजे आज्याक एक हती आशिल्ली व्हड सूळ्यांची एक हती!'

आयीषान अभिमान सयत म्हळें: 'माजे आज्याक एक पाड्या आशिल्ली. तांत तो सामान भाड्याक चडवन व्हरन दुकानांक आनी पावंयतालो. त्या गाडीचे मदतांन मागेले बापूयक ताणे एम.ए. मरान शिव मागीर ती व्हड सूळ्यांची हती खंय?'

ती मेली! इस्लामाची हती आशिल्ल्यान मेली अथवा मरण पावली म्हा सांगुक जाय. इस्लाम धर्माचो मनीश मेल्यार मेलो म्हणूय, काफीर मेल्यार अन्तरलो म्हणूय सांगुक जाय.'

आयीषान विचारलें: 'ती मेली की?'

कुञुपातुमायन म्हळें: 'मेली: तीणे चार काफीरांक जीवनाशीं मारले.

...फट चार जणांक? कितले इस्लाम्याक जीवनाशी मारले?' 'एकलाक सु जीवनाशी मारलो ना. ती एक सत्याची हती आशिल्ली.'

तशें तें सत्य तरी जाल्यार.' आयीषान हासून म्हळें: 'सर्गार त्या सूळ्या हतक फातर, कोयर, मतीं, माणीक हांचे चार मजले मेळतले मू.'

कारण कितें म्हळ्यार हे जल्मांत हांगा पुण्य कर्म केल्यार परलोकाक सुः आनी सौकर्य मेळतलें. दंतकथा प्रमाणी काफीराक वध करचें एक पुण्य कर्म आसा.

कुञुपातुमायन म्हळें: 'आमकां जायतो दाम आशिल्लो.'

मागीर तें सग खंय?'

गेलें.' हेंच तिका कळता.

आयीषान विचारलें: 'बापूयक कसलें काम?'

व्यापार.'

कसलो व्यापार?'

देकून घेवंचेंय वेंचून घेवंचेंय हांचो.'

बापूयचें नांव कितें?'

'वट्टनडिमा.'

आवयचें नांव?'

कुञुताचुमाय.'

आयीषान म्हळें: 'माजो बापूय काळेज प्रोफेसर. नांव सैनुल आबिदीन. आवयचें नांव हाजरा बीबी. भावाचें नांव निसार अहम्मद. तो कवी. तो कविता बरयता भूंयचेर. तागेली कविता रूक, फुलां, फळां, कणंगां जातली!'

आयीषाक निसार अहमदसा पासून जायतें सांगचाक आसा. तीणे म्हळें: निसार आनी तांतलें हे भूंयक आनी तांत आशिल्ले आनी करचे सर्वांकय करता. एक व्हड साफसूफ निर्मल भयंकर मनीश.

कुञुपातुमायक तांत कित्यांतूय व्हड रूची दिसली ना. विशेष करन तीं नां. सैनुल आबिदीन, निसार अहम्मद. तसलीं कांय इस्लामाचीं जावन तीं आयकलीं नात. मक्कार, अडिमा, अन्तु, कोचुपरो, कुट्टी, कोचुण्णी, कुंयाली, बावा, कुञालू, पकरू, मयितु, बीरान, कुञिकोच्च, अद्दिल अशें सग नावां तीणे आयकलीं आसात. पुण निसार अहम्मद! तांबडे टुकी रगतां रंगाचे दोळे, वीण-वेंटाळन दवरलेली व्हड मीशी, हड्ड्यार काली रोम, भयंकर थोर गोंवटो हांचे एक दीग मनीश्याक तीणे मनांत केलो.

तीणे विचारलें: 'तुगेलो भाउ केन्ना येतलो?'

फाय-परां कांय तरीय, तुगेले आवयचे लागी पयलेच सांगून सोड कि त्याचे नांका पोन्दाकच येवन हागू बैसचाक नज म्हण. घाणी येवना की? ... आयल्यार व्हड झगडें जातलें.

कुञुपातुमाय स्तब्ध जाली. आवयचे लागी कशें सांगतली? कशें मनातिल्लें रावतली? तीणे ल्हवू मनात देवाकडे सांगलें: 'हे देवा, आयीषाचे भावाक हाडचें नाका. आयल्यार झगडें जातलें.'

तो भयंकर मनीश!

आयीषान विचारलें: 'तुगेली व्हारडीक जाली की?'

कुञुपातुमायन म्हळें: 'मागेली व्हारडीक जालीना. तुगेली जाली की?'

'चोर बुद्दूस! मागेली व्हारडीक जाली ना. बी.ए. पास जाले उपरांत तलीं. तरीय मागेले भावाली व्हारडीक जातरीच आसतली. ते महंत त्याक योग्य एक बायलेक इत:पर्यंत देखून मेळी ना. जायत्यो सोयरीको आयल्यो. हांवे सांगल्लें न्हय कि तो व्हड निर्मल मनीश आसा. चेडुवाक मात्र न्हय, घराकय निर्मलकाय जाय. ताका सोयरीक आयल्या एक बी.ए.कारणी – थंय तो गेल्ललो एक वेळा. ताका पिवंचाक दिलेल्या आयदनाक मासळे घाणी येताली. देकून ती सोयरीक चमकली ना.

कुञुपातुमायन विचारलें: 'तुजे भावान मासळी खावना की?'

'तो साधारणत: शाकाहारी आसा. मांस आनी मासळी एकदां खातलो. हात साबून घालन धुयतलो. ताजी घाणी घरांत पाडना म्हण तागेलो हुकूम. सांगलें न्हय कि व्हड निर्मलकाय आशिल्लो मनीश; मुस्लिम म्हळ्यार निर्मलकाय आशिल्लो म्हणूय अर्थ आसा अशें तो सांगता. मात्र न्हय ताणे व्हारडीक करचे चेडुवाक कांय विशेष गुण आसुंक जाय.

ती कापणी काडुक शिकल्ली जाय. नाच कळतल्ली आसुक जाय. धुवण, संगीत, चित्र, बरवप, साहित्य, शिशु संरक्षण – हांत सग प्रवीणा आसुंक जाय. स्वयंपाकात निपुणा, म्हळ्यार बिर्याणी, चपात्ती, मांस, तूपाशीत, परोटा, इष्टु, सांबार, ओलन, अवीयल, काळन, उबकरी, पायस मात्र न्हय हें दुनियेंतली सर्वय तराचीं पिवंचीं खावंचीं साधनां करुंक जाणुक जाय. हाचे भायर खण्णी, वोय बान्दप, रेवं व्हावंप, झाडांक आनी रुकांक जाय जालेलें सारें, सम करप, हेंवय जाणुक जाय. अशें सर्व प्रकारचे गुण आशचे विचित्र चेडुवाक शोधून घेवन व्हारडीक करुक आवयनय बापूयनय म्हळेलेंय आसा!'

इतलें आयकचाक कुञुपातुमायचे भावनेंत निसार अहम्मद एक लागेन भयंकर जालो, ताजेर रागूय दिसलो. आयीषाकडेय राग दिसलो. भावान तशें म्हळें; भावान अशें म्हळें... ओ, एक भाव!

आयीषान म्हळें: मागेले भावागदी एक मनीशाक – आयकतलीकी? एक दीस रात भाव ईसी चेयरार वाचून पळ्ळा. ताजो हात मेजाचे खाणाचे एक तांत आशिल्लो हांवें देखलोना. हांवें तें वडून दिलें. कांयकी चिरडून चेंचल्लें हांवें आयकलें. हांवें पळोवंचाक – माका बेशुद्धी जाली. भावाले दावे हाताचें किरांगळे बोट चिरडून गेल्लें आशिल्लें.

कुञुपातुमाय स्तब्ध जाली, मात्र न्हय, निस्तेज जाली. तीणे विचारलें: 'मागीर?'

आयीषान म्हळें: भाव हालोल ना. माका सांगलें मीशीयो कातरची लान कातर हाडुक. हांव तीवेय घेवन गेलीं. भावान ते कातरीन चिरडलें बोट कातरून उडकायलें!' इतलें सांगून आयीषान म्हळें:

'हांव वतां, आमी रावचे कडे तूं येता की?'

कुञुपातुमायन तें आयकलेंना. तीं तशें दंग रावली. आयीषान परतून विचारलें: 'येता?' 'खंयंय? 'चोर बुद्दूस, आमी रावचे घराक.'

'हांव आवयचे कडे विचारून येन.' ती घराक वचून आवयक म्हळें: 'आवय, थंय रावचीं इस्लामी आसात. हांव थंय एक वचूं?'

'उसळ गो रांडूका!' आवयन म्हळें. 'इस्लामी मनीश!' तीं काफीरं आसात.'

'न्हय आवय.' तीणें म्हळें: 'इस्लामी लोक. चोय, थांगाची आयीषा आमगेले चिंचे सकल रावल्या.'

आवयन पळयलें. आवयन देखलें! साडी न्हेसल्ली! कान विन्दल्ले नात! आवयन म्हळें:

'मय्यदीन, बदरीं लोकानो, तीं इस्लामी?'

'व्हय आवय, ल्हवू उलय. हांव तांणी रावचेकडे एक वचूं?'

'तूं माजे लागीसून भायर गेल्यार तूं मागेली धूव न्हय. ते वाटेन वचुंक जाय!'

कुञुपातुमायन वचून आयीषाक म्हळें:

'हांव फाय येन.'

'आज कितें?'

कुञुपातुमायन म्हळें: स्वल्प काम आसा. उदक भरन घालुक जाय.

फाय हांव येवचे वेळार पिकली चींचय हाडीन.'

आयीषा गेली.

ते दीसा रात भो वेळ गेलो. जाल्यारीय कुञ्ञुपातुमायक नींद आयली ना. आयीषाचे भावाक सांगून धाडुक नज म्हण तीणे अल्लाहू कडे मागल्लें आशिल्लें! आतां परतून कशें सांगतली?

आखेर दुःखाचे मनान तीणे प्रार्थना केली.

'मागेले अल्लाहू, आयीषाचो भाव...'

८.

## 'चोर–गवाय दिवपाक जावना!'

व्हड सूळ्याची हती आशिल्ले आनमक्काराची अपुरबाये धूव कुञ्ञुताचुमायन फेरफार कांय नातिल्लें म्हळें:

'तीं इस्लामी न्हय! आनमक्काराची अपुरबायेची धूव सांगता – तीं इस्लामी न्हय!'

कुञ्ञुपातुमाय बापूयचे तोंडाक चोयतली. बापूयन कांय उलोवंचीना.

आवय फूडे म्हणतली:

कयामता दीस लागी पावल्ल्याची निशाणी देकली? संसार नाश जावचाक वता. ताजी निशाणी आयीषा, तिजो बापूय आनी आवय!

'ते बायल मनीशीन माथ्यार फूल माळ्यां – फूल!'

आयीषाचे आवयन केसा शेण्ड्यांत फूल माळ्यां. तें इस्लामाक बरोबर आसा की?'

'आनी ते चेडुवाचें रूप देकलें, केसाच्यो दोन शेपंडीयो करन खान्यावेल्यान हर्दार घाल्यात!'

आयीषा तिगेल केसांनी अनेक कसरतां दाकयता. ती एक व्हड पिशाची आसा. ती धावंतली, उडकी मारतली, नाचतली, गीत म्हणतली. एक दीस कमळा तळयेचे लागी रावून भक्तींत मग्न जावन तिणें एक गीत म्हळो. तीणे आठयलें कि ती परमेश्वराकडे कितेंकी मागता म्हण. मागीर तीणे चिंतन केली: कितेंय 'बैत' (कविता) जावंयेत. अथवा 'केस' (गीत). कितें म्हण तिका कळ्ळेंना. तीणेय भक्तीन दोनीय हात उबारले. 'आमीन!' म्हळें. सोंपतर 'आमीन' म्हळेंय. आयीषा हासलीना. खांकता वरी दाकयलें. पुण तो हास दामचो आशिल्लो हें तिका मागीर समझलें. तीणे विचारलें:

'तें कितें?'

आयीषान म्हळें: 'माका विचार नाका. हे माका कळना. तो महंत येतर विचार. तो हाजो कर्तुपी. भास कसली, कोणाक कळना. आमगेले कॉळाज़ांतूले चेडुवांक मिरवणूका वेळार व्हडान गावुंक ताणे केल्ललो. आमी तो काळेजांतले मिरवणूकेंत गायलींय.'

आयीषा आयली तेन्ना हांवें आमीन म्हळें.

'हांवें पळयलेंलीं.'

'आमीन म्हळेल्यांत कांय दोश आसा की?'

'चोर बुद्दूस, गुण न्हंतना कांय दोश ना.'

'पुण एक फान्ता लागेन गाय; बरें दिसता.'

'परंतु भक्तीन बैस. मनांतले सर्वय विचार दूरा काड. मन पवित्र करूंक जाय. आनी ध्यान दी! ध्वज़ धरन काळेजाचे चेडुवांचे एक व्हड मिरवणूकेंत तीं – म्हळ्यार आमी – गंभीर रुपान गावन वतात म्हण आठय!'

'आठयलें.'

'बरें, आयक!', ती गायली.

'हो... हो... हो...'

आनी आयीषान म्हळें: 'हें आतां सगय सम आसा म्हण माका भरोसो ना. कांय उतरां सोडून गेल्यांत म्हण म्हाका दुबाव आसा. कितेंय सो[illegible] गेलें जाल्यार तो आमकां मारतलो!'

कुञ्ञुपातुमायन विचारलें: तुजो भाव कशें जाणतलो?'

जाणतलो कशें की? बरें! तो येतरच माका उलो दितलो. 'आगो [illegible] यो. हे बोर्या भितर राव! हांव ते बोर्या भितर रावतलीं. भाव म्हणत[illegible] 'गाय! गायना जाल्यार माका कातरन दोन सास कुटके करतलो. [illegible] दोन सास सवण्यांक घालतलो. उपरांत ते सग सवण्यांक भाव जूळो घा[illegible] जीवनाशी करतलो. मागीर तांकां सग तळन खातलो.

'कतरन खावंक नाका?'

करुणानिधी परमेश्वराचें नांव सांगून कतरन 'कोरान' धर्म पुस्तकांत म्ह[illegible] गदी इस्लाम धर्मानुकूल करन जाय मू खावंचाक?

'बुद्दूस?' आयीषान म्हळें: 'माजे समान एक चांग चेडुवाक जिवन[illegible] मारन आशिल्लीं कायरीं सांगता की? लान लान चोराय करतल्याक [illegible] चोराय कित्याक?'

इस्लाम धर्माचें पुस्तक 'कोरान' फारूक शरीराची पवित्रकाय जाय [illegible] नाकां मू! अशें जायतीं कायरीं आयीषा सांगतली. कांय कांय वेळा [illegible] समाचार पत्रां हाडून भिसरावंच्यो खबरो कुञ्ञुपातुमायक वाचन आयकत[illegible] ते पत्रांत ती भयंकर घडणूक आसा म्हण कुञ्ञुपातुमायक विस्वास करपा[illegible] ते प्रकारीं ती रावतली. आयीषा तें थळ दाकोवन परतून एक पावटी व[illegible] आयकतली. कुञ्ञुपातुमायक तें एक अजाप आसा. तीं तें सांगतलीय[illegible] एक वेळार आयीषान विचारलें.

'तुका बरंवचाक आनी वाचुक शिकयले ना कित्या? जायतो दाम आशि[illegible] मू?'

खरेंच, जायतो दाम आशिल्लो. मुस्लीमान बरवंचाकय वाचपाकय शि[illegible] जाय. कसल्याकय कश्ट ना आशिल्ले. तेन्ना बरप आनी वाचप शिक[illegible] लागलीं जाल्यार – आज आयीषा पाशीय चड जाणवीकाय आसता आशि[illegible] सर्वाकय आयच्या पाशीय बदलाव आसता आशिल्लो. बापूय आनी आ[illegible] हांणी कित्याक हें केलें ना? तीं बरप आनी वाचप हें शिकलींना कित[illegible] सूळे आशिल्ली हतीचो धन्नी आनमक्कार बरवंचाक, वाचपाक शिव[illegible] की? अक्षरशत्रु पिळगी!

ते दीस रात तीणे तें उगडास केलो. कितें पसावत तिका शिक[illegible] ना? निदेवंचे मांदरेर पडन काळकांत तीणे बापूयक विचारलें:

'बापू, माका शिकयलना कित्या?'

बापूय सुस्कारलो मात्र. आवयन म्हळें:

'शिकोवन तुका काफीर केली ना कित्या? हें तूं विचारता?'

बरप शिकल्यार... जाणवीकाय आयल्यार... इस्लाम म्हण जीवन का[illegible] शक्य न्हय! खरें हें? वाच! हें उतर कुरानांत पयलेंच आयलां.

चिंतन कर्येत मू! दुसरे दिसा कुञ्ञुपातुमायन आयीषा कडे विचारलें. आ[illegible] हासली! जाणवीकाय नातिल्ल्यांचो नमुनो... निरक्षरताय वाडला! जाणव[illegible] वाडचे गदी. वाडयल्यार जाय जाल्लेलेंय नाका जाल्लेलेंय वाडतलें! आ[illegible] म्हळें:

'चोय, इस्लामाक जाणवीकाय जाय. जाणवीकाय नातिल्ले अ[illegible] आसतले. इस्लाम अहंकारी आसा की?'

इस्लाम निपट गाडव की? न्हय म्हण कुञ्ञुपातुमायक बरे रुपान व[illegible] तरीय तीणे विचारलें:

'काफ्री लोकांकडे विरोध दाकोवुंक जाय की?'

काफ्री लोकांकडे विरोध दाकोवुंक जाय!

सत्य आसा. आयीषान म्हळें. काफीर पायानी चमकचे वेळार इ[illegible] माथ्यान चमकुंक जाय. काफीर न्हाता, दांत घासता देकून इस्लाम न्हा[illegible] नज. दांत घासचाक नज. काफीर तोण्डान खाता देकून इस्लाम...'

ाबाव बैस आयीषा!' कुञ्ञुपातुमायन असंतोष दाकोवन म्हळें. 'माका केतं खेळ करता?'

...द्दूस, चोर बुद्दूस, अल्लाह आनी मुहम्मद नबी हांणी सांगिल्यांत ...रोध कांय नां.'

...ञ्ञुपातुमायन विचारलें: 'पयलेच अल्लाहून कोणाक जल्म दिलो?'

...ळना.' आयीषान म्हळें: 'मनीशांत जाल्यार आदम नबीक आनी हवा ...ीक.'

...ुहम्मद नबीक न्हय?'

...ं कोणे सांगलें? कोरानांत सांगता आदम नबीक म्हण. तें आमी विस्वास ...रुंक जाय. आयकल्लेंय, काणीयोय हांत आमी विश्वास दवरुक नज. मुस्लीम ...ह जीवन करूक जाय. बरे मनीश जावुंक जाय. साफ-सूफ आसुंक जाय. ...नेरी आसुंक जाय. जीवनात सुन्दरकाय आसुंक जाय. दुसर्यांक दुकोवंचाक ...ंच प्रतिकार, दुष्टकाय ना करुक जाय. खरेपण जाय. संसाराचो रचपी ...अताहूचेर विश्वास जाय. अल्लाहूचो दूत नबीचेर विश्वास जाय. मनीशांक ...आत्मा आसा, मेले उपरांत एक जीवन आसा, देवदूत आसात... अशें थोडीं ...कारीं आसात. वायटपणा आड करुक जाय. हें सग करचे मुस्लीम लोक. ...ाळटेचो धर्म इस्लाम. आनी आतां चोर बुद्दूसाक कांय दुबाव आसा ...?'

इस्लामी आयीषाक फूल!'

आपडचाक नज. करपून वतलें! चोर बुद्दूस – दोळेय, नाकय ...ाल्यांक फुलां. मुस्लीमाक परमळावयेत. माथ्यार माळयेत. हाजा चड ...ा सांगून दितलो.'

...ण निसार अहम्मद येवंचाकच बापूयन निसार अहम्मदाचो गोवंटो कातरुक ...ह कोयती काडली. ताका आवय कारण आशिल्ली.

...निसार अहम्मद एक व्हड रानय घेवन आयिल्लो. तें खंयसून कशें हाडलें ...ञ्ञुपातुमायक कळना. चडय फळां जावंचीं लान झाडां आशिल्लीं आनी ...ात्यो माड्या सरश्यो. साबाव पळ्ळेलें तें ओसाड पटांगण एकच दिसान ...रान जालें. रूक सग एक फान्तीन एक दूरा आसात.

... दिसा थांगा गोन्दोळ आशिल्लो. निसार अहम्मद, ताजो बापूय, आनी ...ीषा हीं थांगा मेळ्न ते वोतांत काम करतात देखचाक कुञ्ञुपातुमायक ...ाप दिसलें.

...तें देकलें आवय!' कुञ्ञुपातुमायन आवयक उलो दिलो. आवय खडावांचेर ...' 'प्टो' आवाज करन दाराकडे आयली. आवयन म्हळें: 'ओ, तांचें ... कितें?' अशें सांगून भितर गेली. तांकां पिशें म्हण कुञ्ञुपातुमायक ...लें ना. अजाप दिसलें इतलेंच. भूंयचेर काम करचे मुस्लीमांक तीणे ...लें नात. इस्लामाक सांगल्लें 'ब्यार' अशें तिजो विश्वास. मागीर गरज ...ल्यार कांय कातरप, खणप... तें सर्वय वावराडी करतले. न्हंतना, मुस्लीम ...याप करप... तें पयलेच ती देकता.

...तिका मनांत एक अस्वस्थताय. तांचे पटांगण सबाव पळ्ळ्यां. जायते ...र्थ बोवन करुक थळ आसा. तिका एक भाउ आशिल्लो जाल्यार! पुण ... निमितीं कांय साध्य न्हय. निसार अहम्मद येता म्हण आयकून ताजे ...णीं कुञ्ञुपातुमायन थोडें भोव केल्लें आशिल्लें. पटांगणांतलो कोयर सग ...ून राशी करन उजो घालो. पाचकशालेचे दारार पळ्ळे मासळे खवळां ... झाडून काडून दूरा घालीं. घरांत भितर सग झाडून पुसून साफ केलें. ...चे मुखार लांबयल्लीं बोतरां सग काडून उजो घालो. हाजे सगटा भायर ... तिकाच सुंदर केली. हो गोंदळ सग देकचाक आवयन म्हळें:

कितें गो तूं खवदळता?'

हाताचो घाय सुकलो की?' अशें कुञ्ञुपातुमायक देकचाक निसार ...म्मदान पयलेच विचारलें.'

सुकलो.' तीणे जाप दिली. तरीय इतले काळाक तें उगडास दवरलो मू? अजापच. कुञ्ञुपातुमायक पाय लटपडंतात आनी मनांत एक क्षोभ. तें निसार अहम्मद परतून आयल्ले फूडे कि फाटीं तें तिका कळना. देकून निसार अहम्मदान 'केन्ना' सांगलें म्हण तिका उगडास करूक जायना. कितें सांगलें म्हण स्पष्ट उगडास करुक जातलें. कितें केलें म्हणूय.

निसार अहम्मदान कुञ्ञुपातुमायचे घराकडे एक पायखानो निर्मलो. बारा फुट लंबाई आनी चार फुट दिगायी, एक तीन फुट खोलाय हे मापाचो एक फोंड. तो खणलो निसार अहम्मदान. कितें करचाक, हें कळना देकून बापूयक कांय मदत दिवंचाक जाले नां. तें घरा सून दूरा पटांगणाचे एक कोनस्यांत देकून निसार अहम्मद आनी बापूय हांणी म्हळेलें तिका आयकुक जाले ना. निसार अहम्मद वोतां रावून हूमेवन दंद करतालो. तेन्ना बापूयन येवन म्हळें: 'धूवे, एदें उदक काड, ताका पिवंचाक.'

कुञ्ञुपातुमाय भितर गेली एक लान सोपा कुटको घालन दोन आयदनां धुयलीं. आनी तीं हुंगून चोयलीं. कांय बालाव घांण आसा की? कांय ना. तीणे उदक हाडून दिलें. बापूय तें घेवन गेलो. उदक पिवंचे फूडे निसार अहम्मद कुशळतायेन हुंगून पिलो. तशें केलें म्हण कुञ्ञुपातुमायक संतोशान सत्य करुंक जातलें.

पायखाण्याचे दंद पुराय जावंचाक कुञ्ञुपातुमायन तें वचून देकलें. एक लान वोयचे भितरचो एक लान कालवो. ताचेर दोन संकव. रेंव सग एक तांत राशी केल्या. तांत एक करटें. हागून जातर रेंव घालन पूरुंक जाय. ताचे खातीर करटें. आयीषान म्हळें: 'काळान क्रमान हो फोंड पुरतलो. तेन्ना वेगळो एक करुक जाय.'

'हें आमकां पयलेच दिसले ना.' बापूयन म्हळें. 'अशें सग घरां कडेय आसल्यार घाणी घेवनातिल्लें वचेत आशिल्लें.

ते घडणूके उपरांत बापूयक निसार अहम्मदाक व्हड पसंद जालो. ताका लागून दुबावय चड जाले. एक शें प्रश्न आसात. संसाराचो नाश जावंचा आखेरचो दीस लागी लागी येता न्हंय? लोक अशें गर्विष्ठ आनी दुश्ट जावंचाक कारण कितें?

निसार अहम्मद म्हणतलो:

'माका कळना. जल्मल्यार एक दीस मरतलो म्हण आमकां कळता. हावंय मरतलों. तुमीय मरतले. सगटय मरतले. सर्वय आत्मांक मरणाची रुची कळतली, अशें कोरानांत आसा. अशें हो लोक एक दीस नाश पावतलो. देकून कितें? नाश पावंचे वेळार नाश पावो. तेन्ना मरान संतोषान जियेवुंक जाय. आमकां जाणवीकाय ना देकून गर्विष्ठ आनी दुष्ट जातात. जाळकायो आनी प्रतिकार सगटांक ना मू. चांग वाटेन घुवंडावन सोडुक मनीश जाय. मागीर दुसरे बालाव म्हळेली चिंता दूरा काडून भलो करुक प्रयत्न करुंक जाय.

तेन्ना बापूयक वेगळो एक दुबाव:

'सर्पाक चांग करुंक जातलें की?'

'तें कित्या?'

तसले वीखाचे मनीश आसात. कोलो, वाग, मांकड हांचे स्वभाव गुण आशिल्ल्यांक आमी देखले आसात.'

'तांकां सगय मांणसाळन मनीशाचो हुकूम मानचे वरी करनात की?'

'तरीय...!'

तशें ते दोगंय चुप बैसून चिंतन करतले.

एकदां आवयन विचारलें:

'अहम्मदे, तें रान सग वोवन लागयता कसल्याक?'

कुञ्ञुपातुमायन दाराचे आड बैसून मनांत म्हळें: 'अहम्मद न्हय, निसार अहम्मद म्हण नांव.'

निसार अहम्मदान म्हळें: 'तें कांय रान न्हय. दोन तीन वर्सांनी तुमकां सगटांक बरो आंबो, पेर, अनवास, सपोट्टो, पापाय, सर्वय दीन.'

आवयन विचारलें :

'अहम्मदाली आवय हांगा येना कित्या ?'

आयीषान म्हळें : 'आवयक भय दिसता, लागीचें झगडें जाले उपरांत.'

सगटय उगडास करन, करन हासली.

तें निसार अहम्मद आयल्ले दुसरे दिसा कि आसा. आयलो म्हण जाण जाले तुरंत कुञुपातुमायक भय आनी संतोष दिसलो. फूडे दिसली हर्द्या दुकी चडय जाली. मात्र न्हय, जेवणाची रुची उणे जाली. ती दुर्बळ जावुंक लागली. आधी... तशें आसतना तें घडून आयलें.

निसार अहम्मद आनी आयीषा, दोगंय मेळन रुकांक शिंपतालीं.

तें सग चोवन पूण तांत कांय ध्यान दीना, आंगणांतलें मोगरें खुँटता अशें मनांत इच्छा करन कुञुपातुमाताय आंगणांत बैसल्ली. वेळ कितें जालो हें तिका कळना. सूर्य चिंचे रुकाचे सीधा उंचार पावला आशिल्लो. अभ्यास रीतीन हागू वचून आवय लान कालव्या सून ऊंच आयली.

निसार अहम्मदान उलो दिलो :

'होय ! एक सांगतां !'

आवय कोपान घूवन रावली.

निसार अहम्मदान कायरें सांगलें. तांचे मुखार वचून बैसून हागचें सम न्हय. घाण येवंची ना की ?'

आवयन विचारलें : 'तूं कोणा लागी उलयता म्हण कळता की ?'

कुञुपातुमायन उलो दिलो : 'आवय, अशें यो !'

आवयन निसार अहम्मदाक विचारलें : 'तूं आमकां कितें करतलो ?'

निसार अहम्मद हासलो. आवयन कडकडत म्हळें : 'बायलांकडे झगडुंक येत ?'

बापूय येवंचाक आवयन म्हळें : 'बैसोवना ! मोहम्मदाक बैसोवना !'

'कितें जालें ?'

'लिपून चोयलो ! हांव कालव्यांत बैसचाक तो येवन लिपून चोयलो ! मोहम्मदाक बैसोवना !'

'कोण ?' बापूयचे दोळे तांबडेले.

आवयन म्हळें, 'तो'.

'कोण ?' बापूयन कोयती काळ्ळी. आंगणांत देंवलो. 'गोवंटो हांव कातरतलों. कोण की ?'

'लागीचे घराक येवन रावल्ला तो' म्हण सांगचे फूडे 'अस्सलामु अलैकुम' म्हण सलाम सांगून निसार अहम्मद आंगणांत आयलो.

बापूयन ते क्रोपाकय उजे कडेन भरन न्हेसिल्ल्या वस्त्राकय पळयलें. तरीय व्हड कोपान वदल सलाम दिलो. 'व अलैकुमुस्सलाम !'

निसार अहम्मदान म्हळें : 'आमी तुमचे शेजवासारी आसात. बापूय, आवय, मिगेली भयण आनी हांव अशें आसात.'

'तुमी इस्लाम की ?'

'व्हय !'

कसलें इस्लाम की ?

'धर्म संबंधीं आमकां मागीर उलोवूं. आमी कोणेय आसोत. हिन्दू म्हण आठयात अथवा क्रिस्तांव. कोणेय जावो, आमचे लागी येवन बैसून...?'

'बैसल्यार लिपुन चोयतले की ?'

'बापा', कुञुपातुमायन भितर सून उलो दिलो. 'बापा.'

'कितें गो धुवे ?'

'आवयन म्हळेलें म्हण कुञुपातुमायन सांगून जावंचे फूडे आवयन तिजे तोण्ड धांपून धरलें. 'रांडळा ! तू माजो मान राख ! हांव तुजी आवय ! आनमक्काराची अपुरबाये धूव !' कुञुपातुमायन हात बिसाटून सोडयलो.

'आवय फटी सांगता', तीणे घटीन म्हळें.

'रांडळा, हांवें हिका जल्म दिलो मू !'

'कितें गो धुवे ?' बापूय आयलो.

'माका चोर-गवाय दिवंचाक जाव्ना.'

कुञुप्रातुमायन म्हळें : 'आवय फट्टी सांगता.'

'कुञुपातुमाय !' आवयन म्हळें. 'तुजे आज्याक एक हती आशिल... व्हड सूळ्यांची हती !'

'तरीय माका चोर गवाय सांगचाक जायना.'

'कितें गो धुवे ?' बापूयन विचारलें.

कुञुपातुमायन म्हळें : 'आवय फट्टी सांगता. थंय ते फटींगणांत र... 'होय' म्हण उलो दीवन मागीर आमचे नांका खाल येवन बैसून हागू बै... बरोबर की म्हण विचारलें. त्या खातीर आवय खवदळ्ळी. इतलेंच.'

आवयन म्हळें : 'माका कोणेय ना !'

'कुञुताचुमाय ! तुका हांव कुटके कुटके करतलों.'

'माका जीवनाशी मारन उडकायात ! धर, गोवंटो कातर्यात ! गो... कातर्यात ! माका कोणेय ना !'

आवय रडून खाल बैसली. बापूय भायर गेलो. निसार अहम्म... लघुतकायेन म्हळें :

'आमी दळिद्री ! आतां कितें करतलीं ?'

निसार अहम्मदान म्हळें :

'आमीय दळिद्री. आमकां स्वत:चें थळ कांय ना. शारांत आमी स... आसात एक भाडया घरांत आतां आमी थळ घेतलें, माका शेतकारींत रु...

ब्रापूयन म्हळें : 'आमी रावचें हें घरय पटांगणय आमगेलें स्वत:चें. त... आमकां वाट कांय ना. पळय पटांगणांत कांय आड-फाड आसा ? हे गा... चड लोक सांज जाले उपरांत संडासांत वतात. गावंचे वाटेर आमची बा... आनी धूव संडासां वतात. वतात — कितें म्हळ्यार आमी चांग स्थि... आशिल्लीं आमकां देकल्यार उठावंचे मनीश आयज आमकां देकल... उठावना. तांचे मद्दें आमची बायल आनी धूव वचून गावंचे वाटेर व... संडासां वचे सम की ?'

निसार अहम्मदान म्हळें : गावंची वाट मनीशांक हागू-मूतचाक आशिल... जागो न्हय मू. ती चमकुक आशिल्ली. खराब करचाक नज. घणियार क... नज.

'मागीर आमचे वरी मनीश कितें करतले ?'

'त्या खातीर घराक संडास निर्मुक जाय. व्हड खर्च काय जावना. ... स मडळां, पांच स खूंट, कांय दोरय जाय. एक खोरें अथवा मम्मट... हाजान एक घंटेचें काम. एक वर्साक मागीर कांय कश्ट ना. मनीश हें क... कित्या ? व्हड शारां जाल्यार थळ ना म्हण आठोवयेत. हांगा तें न्ह... स्थीती. मनोहर गांव. बरें शुद्ध निवळ्ळें उदकाची विशाल न्हय. हांगा मुस्लि... क्रिस्तांव, हिन्दू हीं जनां चडान चड न्हंयचे करावळीक हागू बैसतात. न्हावंक... आनी पिवंचाक आशिल्लें हें उदक. कांय जाण तांत हागतात ! हांव ज... गांव भोवल्लो मनीश. मनोहर समुद्रा वेळ. विशाल धवी रेवं. भरल्लें ब... पाय सकल दवरचाक साध्य न्हय. दादलो बायल सर्वय जाति धर्मा... लोक हागतात-मूततात थंय. भयंकर घाणीये राशी ! मनीश कितें पस्र... अशें जाता ? दुसर्यांक दुख आनी पीडा दीवनातिल्लें जीयुंक जातलें... वोणींतल्यान चमकुंक जातलें ? हागताल. जाय जाल्ललो जागो आसा. ... हांवें सांगचे वरी एक करशात ? एक पांच स खूंटय, कांय दोरय, व... खोरेंय थोडीं मडळांय इतलेंच तयार करात की ?'

'ताका कांय कश्ट ना.'

'तरी तें हाडून माका उलो दियात.'

निसार अहम्मद रावचेकडे गेलो. तुरंत बापूय पदार्थ हाडचाक गेलो. ... आवयन कुञुपातुमायक म्हळें : 'तूं मागेली धूव न्हय !'

कुञुपातुमाय कांय उलयली ना.

आवयन म्हळें: 'तुका हांवें जल्म दिल्ललो न्हय?'
कुञ्‍जुपातुमाय कांय उलयली ना.
आवयन म्हळें: 'रांडूळा, तुजे तोण्डांत कितें गो?'
कुञ्‍जुपातुमाय कांय उलयली ना.
आवयन विचारलें: 'तुका माजे कडे उलयल्यार कितें? हाता कांकणां निसरून वतलीं की?'
कुञ्‍जुपातुमायन म्हळें: 'माजे हाताक कांकण ना.'
आवयन विचारलें: 'तरीय तुका तुगेली भांगरा आवय व्हड की तो?'
कुञ्‍जुपातुमाय कांय उलयली ना.
आवयन म्हळें: 'आतां चेम्मीन अडिमा हाचें गौरव सग खंय गेलें? आतां देखलें? ताजीं दोन उतरां आयकचाक चेम्मीन अडिमा हाणें गीतं म्हळें. मडळ आनी खूंट कित्याक कबरघर करचाक?'
मरणा उपरांत पूरले उपरांत ताजे उंचार लान घर बांदून एक म्हयन्याक दोगय बैसून रात-दीस कोरान वाचतात. मेल्लेल्याचे आत्माक मोक्ष मेळचाक! ताजे खातीर मडळ आनी खूंट?'
कुञ्‍जुपातुमाय उलयली ना.
आवयन विचारलें:
'तूंवें ताजे खातीर गवाय दिली कित्याक?'
कुञ्‍जुपातुमाय उलयली ना.
'तुजे अपुरबाये आवयचो मान राखुक पाडना आशिल्लें?'
कुञ्‍जुपातुमायन म्हळें: 'माका चोर गवाय दिवंचाक जावना.'
'कितें गो सांगल्यार? तुजे गोवंटे माळा सकल पडून वतली की?'
'माजे गोवंटेक माळा ना.'
'मागीर सांगल्यार कितें जातालें गो?'
'बापूयन कोयतेन गोवंटो कातरल्लो जाल्यार?'
'आमकां कितें? तो मरतलो!'
'बापूयक पुलीस धरन घेवन वचून मारन खलास केल्लो जाल्यार?'
आवय स्वल्प वेळाक कांय उलयली ना. स्वल्प उपरान्त 'अल्लाहू, सत्य आशिल्लें' अशें सांगून कुञ्‍जुपातुमायचे समीप गेली.
'माजे अपुरबाये धूवे! तूंवे आमगेले कुटुंब राखलें! माजे धूवेक कितें की थोडे म्हयने जाले थकणी?'
'माजे हर्‍यांत दुखी आसा आवय!'
'अल्लाहू, कसलेय देवत भूत बी माजे धूवेक लागलां व्हय? अदृश्य सजीव प्राणी मोह पावन लागलीं आसयेत मू.'

* * *

[डिसेंबराच्या आंकांत हे नवलकाणयेची निमणी खिस्ती आमी उजवाडयतलीं.]

---

# उश्णीं उतरां – आनीक कांय बारीकसाणी

माधवी सरदेसाय

दुसऱ्या भासांतल्या उतरांचे अणकार करता आसतना केन्ना केन्ना भाशेंतलीं पोरणीं उतरांच नव्या अर्थान घोळणुकेंत येतात – आपणाल्या अर्थाचो आवांट वाडयतात. 'कूस' उतर शणै गोंयबाबान 'प्रत्यय' ह्या व्याकरणीक अर्थान वापरांत हाडलें तेन्ना तांणी 'कूस' उतराच्या मुदलच्या अर्थांत एका नव्या अर्थाची भर घाली. 'कूस' भोवअर्थी उतर जालें.[१]. शणै गोंयबाबाल्या बरपांत असलीं – नव्या खाशेल्या अर्थान वापरिल्लीं पोरणीं उतरां कितलिशीं पळोवंक मेळटात. देखीक, 'आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें' पुस्तकांत 'झोंपै' उतर ''घुरी'' ह्या अर्थान आयलां: '...*काब्राल चाळवलो आनी ताणें बंदरांतल्या एका मुसलमानी तारवाचेर झोंपै घालून तें धल्लें'* (पान ११); *'ह्याच वेळार फिर्ग्यांक आलासरो दिलो म्हणून सामोरींन कोचिच्या मुलखाचेर झोंपै घाली.'* (पान १३). ह्याच पुस्तकांत 'जंदऱ्यो' (''बायल-मनशेचो पांयांक घालपाचो एक अळंकार'') उतरूय एका नव्या – ''कैद्यांचे पांय बांदून दवरुपाच्यो सरपळ्यो'' – ह्या अर्थान आयलां: *'ह्या वेळार ताणें, कपितांच्या आगऱ्यांक लागून लोखणाच्यो जंद्यो घाल्ल्या फिर्ग्यांक मेकळे केले.'* (पा. ५४)[२]. अशे तरेन नवो अर्थ घेवन परतून जल्मा आयिल्ल्या पोरण्या उतरांकूय जाणकार अणकारा वरवीं आयिल्ल्या उश्ण्या उतरांचे पंगतिकूच व्हरून बसयतात. 'कूस' (''प्रत्यय''), 'झोंपै' (''घुरी'') आनी 'जंदऱ्यो' (''कैद्यांक बांदून दवरुपाच्यो सरपळ्यो'') हीं सगळीं loan-translationsच.

नवे अर्थ, नव्यो संकल्पना आसपावन घेवपाची भाशेची तांक आकांताची. खंयचेय भाशेंतल्यान खंयचोय विशय मांडूं येता. देखून भासविज्ञान सगळ्या भासां कडेन समान नदरेन पळेता. खंयचेच भाशेक तें उणी लेखिना; primitive मानिना.

भाशेंतली उतरांची अडचण पयस करपाचे जायते मार्ग आसात. पोरण्या उतरांचो नवे तरेन केल्लो वापर हो तांतुंतलो एक म्हत्वाचो मार्ग. जायते फावटीं, दुसरे भाशेंतल्यान आयिल्ल्या नव्या उतरा परस ह्या मार्गान नवो अर्थ घेवन आयिल्लें पोरणेंच उतर भाशेच्या वापरांत सोंपेपणान मूळ धरूंक पावता. देखीक, 'grammatical structure' चो कोंकणी अणकार करतना 'structure' खातीर आमी 'संरचना' उतर घेतात तेन्ना भाशेंत तें परकी परकी कशेंच वावुरता; 'बांदावळ' उतराचें अशें जायना.[३] हाका लागून व्याकरणी बांदावळी विशिंचें बरप कोंकणींत नवें आसल्यारूय तें नवें दिसना. अशे तरेन नव्या विशया भोंवतणचें परकेपणूय उतरांक लागून उणें जावं येता.

कोंकणी कडेन पारंपारीक वेवसायीक उतरावळिंचें गिरेस्त दायज आसा. कोंकणी नुस्तेकार, शेतकार, रेंदेर, मेस्त, वळार... आपणाल्या वेवसायां संबंदांतलो वेव्हार वर्सां संकिंनी कोंकणींतल्यानूच करत आयल्यात. नव्या वेवसायां खातीर कोंकणी उतरावळी घडयतना पारंपारीक वेवसायीक उतरावळिंचोय खूब व्हडलो आधार जावं येता. हांगा 'भांषा आणि जीवन' (मराठी अभ्यास परिषद पत्रिका) पत्रिकेच्या सध्याच्या आंकांतल्या (वर्स १७, आंक २, गीम १९९९) 'संपादकीया'चो मुजरत उल्लेख करन दिसता. मराठी भाशे मुखावयले प्रस्न आनी आव्हानां समजून घेतना 'भाषेचे अभिसरण – एक आव्हान' ह्या आपणाल्या संपादकीयांत भौ. नीलिमा गुंडी बरयतात – '...परंपरागत ज्ञानविषयांशी निगडित परिभाषा बोलीभाषेत व्यवहारात रूढ आहेत; त्यांना पुरेशा प्रमाणात लिखित भाषेत सामावून घेतलेले नाही; उलटपक्षी नव्या ज्ञानविषयांची परिभाषा ग्रांथिक पातळीवर सिद्ध होत आहे, तिला व्यवहारात स्थान मिळत नाही. या समस्येचे निराकरण करणे गरजेचे आहे.' (पान २) हे तरेची 'फूट' कोंकणीच्या वांट्याकूय येवं येता. ती टाळटलीं जाल्यार कोंकणीच्या दायजाचो भरींव अभ्यास आनी ताचो समर्थ वापर, दोनय जावंक जाय. शणै गोंयबाबान आपणाल्या बरपांत हे तरेन भा केळयल्या. देखून आयच्या कोंकणीच्या अभ्यासकान शणै गोंयबा सारकेल्यांचे भाशीक साधनेचोय खोलायेन अभ्यास करूंक जाय अशें म्हाक दिसता.

उश्ण्या उतरांची आनीक एक तरा आसा. 'मिश्र' उश्ण्या उतरांची. हांक loan-blends म्हणटात.[४]. 'पुलीस-ठाणें' उतर 'police-station' उत वयल्यान आयलां; हांतुंतलें police तश्या तशें उरलां, 'station' चें म 'ठाणें' जालां. देखून 'पुलीस-ठाणें' मिश्र जातिचें उश्णें उतर.

कोंकणींत एके खाशेले तरेचीं मिश्र उश्णीं उतरां मेळटात. एकाच अर्था दोन उतरां एकठांय येवन घडिल्लीं हीं 'गांठवलां'. ह्या दोन उतरांतलें ए उतर निजाचें आसता आनी एक भायलें. 'घर-दार', 'भाट-बेंस', 'झाड-पेड' 'नागडो-बेताळो' ह्या उतरांच्यो देखी हांगा घेवं येत. 'घर-दार' उतरांत 'घर' कोंकणी आनी 'दार' अरबी जावंक जाय. 'दार' (पु.) म्हळ्यार अरबी ''घर''च. 'भाट-बेंस' उतरांतलें 'भाट' कोंकणी जावंक जाय आनी 'बेंस' पुर्तुगीज (bens ''मालमत्ता''). 'झाड-पेड' म्हज्या मत्तान कोंकणी 'झाड' आनी हिन्दी 'पेड'चें गांठवल. 'नागडो-बेताळो'[५] उतरांतलो 'नागडो' कोंकणी आनी 'बेताळो' कन्नड 'बेताल्ले' (म्हळ्यार ''नागडो''च)[६]. हे तरेचीं गांठवल हेर भारसांनीय आसूंक जाय. देखीक, हिन्दींत 'कागज़-पत्र' उतर घोळ हांतुंतलें 'कागज़' अरबी ('कागज़' (पु.)) आनी 'पत्र' भारतीय-आर्य मुळा उतर. हेंच उतर कोंकणींत 'कागत-पत्र' जालां. तें कोंकणींत मराठींतल्यान आयिल्लें आसूं येता.

✻ ✻ :

---

१. प्रत्यय मेकळें उतर न्हय, तो उतराचो एक वांटो – कुस्कूट वांटो. देखून 'कूस हे तरेच्या येवजुपांतल्यान शणै गोंयबाबालें हें 'कूस' जल्मा आयिल्लें जावंक जाय

२. आनीक कांय देखीं खातीर पळेयात: 'शणै गोंयबाबांली कोंकणी अस्मिता जागोवपी बरपावळ' – माधवी सरदेसाय, जाग, जून १९९८.

३. हें उतर ह्या अर्थान शणै गोंयबाबानूच घोळणुकेंत हाडिल्लें जावंक जाय. तांगेल पुस्तकाचें नांवूच पळेयात: 'कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ'.

४. आयनर हॉगन ह्या समाजभासविज्ञानाच्या जाणकारान उश्णे उतरावळिच अभ्यसाच्या मळार मुळावो आनी भोव म्हत्वाचो वावर केला. ह्या मळार परिभाशी उतरावळी भितर आशिल्लो गोंदळूय तांणी पयस केला अशें मानतात. (पळेया Appel, René & Pieter Muysken 1987 : **Language Contact and Bilingu lism**, Edward Arnold, London : 164, 165.) तांच्या मत्तान, तीन तरांचीं उश उतरां आसूं येतात : 1.**Loan words** – हीं सामान्यतायेन आमी जांकां उश्णीं मानत तसलीं तत्सम वा तद्भव उश्णीं उतरां. 2.**Loan blends** – हीं मिश्र उश्णीं उत आनी 3.**Loan shifts** – हीं अणकारा वरवीं आयिल्लीं उश्णीं उतरां. (पळेया Haugen, Einar 1950.: **The Analysis of Linguistic Borrowing, Langu ge Vol. 26: 210-232.**

५. हाका एक उतर म्हणूं येता काय ना हे विशीं वाद आसूं येता. पूण भाशेंत 'नाग आनी 'बेताळो' उतरां सांगातान – 'नागड्या' उपरान्त 'बेताळो' येता हांतूंत दुब ना. हीच गजाल 'चड सुबेज' ह्या उतरांची. 'सुबेज' म्हळ्यार 'चडू'च. ''आपल्य जाय ते तरेन वागपी'' ह्या अर्थान कोंकणींत 'सुबेज' येता तेन्ना वांगडा 'चड येता – 'चड' आदीं, उपरान्त 'सुबेज' ह्या क्रमान. देखीक, 'तूं चड सुबेज जा हालीं'. 'चड' ह्या अर्थान 'सुबेज' येता तेन्ना ताचे वांगडा 'चड' येताच म्हूण देखीक 'सुबेज उलयलो तो; सगळ्यांक वाज आयलो.' मडगांवच्या 'मोती दोंगरा'चं देख हांगा घेवं येत. 'मोती' – पुर्तुगेज monte (m.) . ''दोंगुल्ली'' वयल्यान आयि उतर हें दोंगुल्लेचें नांव जाल्ले वरी कोंकणींत घोळटा. 'तो मोतीर गेला' म्हण बदला 'तो मोती दोंगरार गेला' अशेंय म्हणटात. 'मोंत गिरी' उतरूय घडये अ जावंक जाय – 'मोंत' म्हळ्यार ''दोंगुल्ली'' तशें 'गिरी' म्हळ्यार ''दोंगर''. Mor उतर पुर्तुगेजींत पुल्लिंगी. देखून 'मोती दोंगर' आनी 'मोंत गिरी' ह्या कोंकणी गांठवल पुल्लिंगी 'मोती' वा 'मोंत' उपरान्त पुल्लिंगी 'दोंगर' आनी 'गिरी' उतरांच आयल्य जावंक जाय. 'मोती दोंगुल्ली' म्हणप 'अदीक समा' जावपाचें, पूण तशें कोण म्हण

६. ह्या 'बेत्ताले' वयल्यानूच आमगेलो 'बेताळ' येवंक ना मू? सोदूंक जाय. फा माश्कारेञ्यश् खंय म्हणटाले, 'बार्थलॉम्यू'चें 'बेताळ' जालां आसूंक जाय...

# ...ीर-सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

...लोकसभेच्यो वेंचणुको जाल्यो.
...आनी 'प्रदीर्घ' काळान मतमोजणीय जाली.
...का म्हयन्याची ती 'निकालाची प्रतिक्षा' खरें म्हळ्यार आकांताची.
...मराठींत तिका जीवघेणी काय कितें तरी म्हणटात खंय!
...नयलीं हांव 'जीवघेणी' म्हळ्यार मराठी अकादमी समजतालों.
कित्याक, कोणाचोय जीव गेलो म्हणटकच ती जिवी जाता.
शोकसभा घेवन आपलें अस्तित्व तिगोवन दवरता.
आतां कालांतरान तोय अर्थ फाटीं पडला सो दिसता.
कित्याक, पयर, म्हळ्यार आठ दिसां फाटीं रमाकांत आंगलो मेळिल्लो.
दनपारच्या वता कडार खंय तरी ताकतिकेन वतालो.
...हो मडगांवकार पणजे सो? म्हूण तेच ताकतिकेन हडकिलो.
...खदार्ची पाळां हीं! केन्ना उपकारत, सांगूं येता?
दिवाळी लागीं पावल्या. अंकाक जायरातीक तरी उपकारपाचो.
...ते भायर लोकसभेचो उमेदवार, जावं मागीर भाजपाचो!
...दामबाबाची कृपा आसल्यार निवडून दिल्ली लेगीत पावत.
दामबाबाक तसो पक्षभेद लागना आनी म्हाकाय बी.
हांवें आंगल्याक म्हळें, रमाबाब, दनपारचो वेळ. जेवया मरे?
ताका तसो फोर्सार करपा फाटल्यान म्हजेंय कारण आशिल्लें.
हांवें ताका जेवणाक व्हेलो जाल्यार तसो तो म्हारग पडना.
चंड करून तोच आपूण जावन बील फारीक करता.
हांवें आपयला म्हूण मुर्वतीक पडून फारीक करनासतना रावल्यारूय चलता.
दनपारच्या कडार एका अतिथीक जेवण दिल्ल्याचें पुण्य लाभता.
ते भायर भावी खासदार म्हूण लोक आमचेकडेन पळयतात
म्हणजे, ताचे कडेन आनी ताचे वांगडा आसा म्हूण म्हजे कडेन.
तेच वांगडा भावी खासदार म्हूण चडशे बील घेवंक कोण वचना.
ताका लागून ताच्या धर्मान म्हजे सारक्याचें जेवण सुट्टा.
जेवतां जेवतां आंगल्यानूच तोंड उगडलें.
'ही प्रतिक्षा म्हळ्यार जीवघेणी रे सायबा, आनीक दोन दीस उरले.'
निकालाची प्रतिक्षा हाका जीवघेणी कित्याक तें म्हाका कळ्ळें ना.
ती वाजपेयी, अडवाणी बी हांकां तशी थरूं येता.
कित्याक तांकां थंय निकालावेल्यान सरकार घडोवपाचें आसा.
हांगा हे गोंयचे दोग उमेदवार वेंचून आयिल्ल्यांत जमा
तशें खारा काँग्रेसीनूच मान्य करून सगळे घरा बशिल्ले
तेन्ना आंगल्यान प्रतिक्षा करपाची गरजूच नाशिल्ली.
केल्यारूय मंत्रीपदाची करूं येताली. पूण ती जीवघेणी कशी?
ही प्रतिक्षा जीवघेणी गोंयच्या काँग्रेसवाल्यांची जावं येता.
कारण तांची शेंडी वयर दिल्लीच्या फुडाऱ्यांच्या हातांत.
सोनियाच्या हातांत माधवराव सिंधियाची, सिंधियाच्या हातांत लुइझिनाची,
लुइझिनाच्या हातांत आमदार-मंत्र्यांची,
तांच्या हातांत पयशे घेवन काम करपी कार्यकर्त्यांची,
कार्यकर्त्यांच्या हातांत मतदारांची – अशी लांबलचक सरपळी.
कोणाच्याच हातांतल्यान कोणाची शेंडी सुटना
आनी दर एकलो ती सोडुंकय दिना.
सोडली जाल्यार खंयचे खंय उबंत पडटले म्हणपाचें ते जाणात.
कोणाक अध्यक्षपद मेळचेंना, तर कोणाक मंत्रीपद
कोणाचें फुडारपण वतलें तर कोणाचे वांटिल्ले दुडू परत येवचेनात.
देखून ह्या असल्या लोकांक निकालाची प्रतिक्षा जीवघेणीच.
निकाल जातकच कोण कोणाचो जीव घेत तें सांगूं नज
पूण म्हजे सारक्याक कसली चिंताच म्हणटात ती नाशिल्ली.
कोण वेंचून येतले तें हांव ज्यूस्त जाणां आशिल्लों.
तरी स तारकेक खलपान आपयलो म्हूण मतमोजणेक गेलों.
ताणें आपयलो तेन्ना मात्सो म्हाका दुबाव सो आयलो.
प्रचारावेळार हाणें म्हजें चुकून लेगीत तोंड पळोवंक नाशिल्लें.
म्हज्या घरा शेजराक जाल्ले सभेक लेगीत म्हाका उलोवंक आपोवंक नासलो.
तसो हांव खलपा आदीं काँग्रेसिचो अधिकृत सदस्य जाल्लों
खलपाक तर सदस्य जावंक अजून वेळच मेळूंक नाशिल्लो
कारण उमेदवारी अर्ज सादर करपाचो टायम जाल्लो
उपरांत प्रचाराचे धांवपळींत खंयचें सदस्यत्व आनी खंयचें कितें!
अशे हे परिस्थितींत हे लोक काँग्रेसमॅनाक उलोवंक आपयनात.
म्हज्या शेजरा येवन ते दुडू लेगींत दिवन गेले
पूण म्हज्या घरांत पायधूळ म्हणटात ती झाडलिना.
म्हळें, बरें आसा. हांकां म्हजी आतां गरज उरूंक ना.
वो अजून तांचो कोंकणीवाद्यांवेलो राग वचूंक ना आसूं येता.
मरूं ते! अशें म्हूण हांवें विशय सोडलो आनी कविता करूंक लागलों.
काँग्रेसजनांनी एक तर कविता करपाच्यो ना जाल्यार दुडू करपाचे.
अशा वेळार म्हाका मतमोजणेक यो म्हूण सांगलें आनी हांव भियेलों.
पडेल उमेदवारा वांगडा मार खावंक कोण तरी जाय आशिल्लो तर!
तो जिखून येवपी आशिल्लो जाल्यार म्हाका खंय सुवात आसपाची?
काँग्रेसींत वचून तोय त्रासांत पडिल्लो आनी हांवूय.
आतां दोगांनीय हे त्रास वांगडा सोंसल्यार वायटशें नाशिल्लें.
देशी भासांक एकामेकांचो आदार जाय म्हणटात तेंच खरें!
उठलों आनी सरळ मिनेझीस ब्रागांझांत गेलों.
पोलिसांनी आडावण घाल्लें पूण म्हाका आडायलो ना.
आडायतले कशे? येदो व्हडलो फुडारी!
'आमकां मात आडायता मरे, ताका कितें काँग्रेस म्हूण सोडटा?'
गर्दी करून आशिल्ल्या भाजपांतल्या कोणें तरी विचारलें.
'आरे, तुमचे कितलेशे गेल्यात मरे! हो काँग्रेसिचो दुसरो.'
पोलिसांनी भाजपा कार्यकर्त्यांक समजायत सांगलें.
हांव फाटीं पळयनासतना तुरतुरीत चलत रावलों.
हांव दुसरो म्हणटकच पयलो खलप गेला जावंक जाय.
सभाघरांत वचून पळेत जाल्यार खलप एकटो ना
ताचे वांगडा धर्मा आनी जितेंद्र देशप्रभू आसात.
काण्ण्यो घालूंक राविल्ले वरी तेंकून तेंकून बसल्यात.
म्हाका पळोवन सगळ्यांक तोंडभर आनंद जालो.
तारूं फुटून बेटार अडकल्ल्यांक दुस्मानाक पळोवन लेगीत खोस जाता.
'संकश्टांत, अडी अडचणींत धांवून येवपी तुमीच रे कोंकणीवादी!'
म्हाका हात दिवन कदेलाचेर बसयत खलपान म्हळें.
म्हणजे हो खलप काँग्रेसींत वचुनय आपल्याक मराठीवादी समजतालो.

पूण हे तीग आसुनूय पोलिसांनी म्हाका दुसरो कित्याक म्हळो ?
जितेंद्र आनी धर्मा चोडणकार ताका भाजपाचे दिसूंक नात मू ?
आसूं येता. ह्या काळार कोण कोणाचो म्हूण कोणें हिशेब दवरचो ?
आमच्या रुपाक लागून खलप आनी हांव लोकांचे तकलेंत फीट बसल्यात.
'मतमोजणी अजून सुरू जावंक ना काय कितें ?'
हांकां कांय पडून वचूंक ना म्हूण हांवें दुबावान विचारलें.
'ती आमकां रावता ? जाली केन्ना सुरू...'
धर्मान त्या प्रकाराक कांयच अर्थ ना अशे तरेन म्हळें.
म्हाका दिसलें, वेंचणुकेक पडल्यार तुका डेप्युटी सीएम करतां अशें लुइझिनान म्हळें आनी थंयच सगळें पाड पडलें !
हांगाच सगळें मेळटा जाल्यार जाय कोणाक ती दिल्ली विरोधांत बसपाक ?
सोनियाक तेंकून बांकार बसलो म्हूण कोण गोरो जावंचोना!
ते परस हांगा हो काळो चर्चिल आनी लुइझिनूच बरो.
नातर हांव म्हजे वेंचणुकेक कितें खर्शेतालों !
पयशे वांटले बगर मतां मेळचिंनात हें खबर आसुनूय मतांक भोंवतालों.
मतपेटयेंत मतां नात हें खबर आसुनूय
म्हाका पडिल्लीं वीस-पंचवीस मतां कोण व्हरचोना हें जाणां आसुनय
दरेक मतमेजणी टेबलार एजंट दवरतालों.
पूण हे सगळे खांपे राजकारणी. तांकां जाल्यारूय वडे आन्नी मेल्यारूय.
मतमोजणी पळोवन येवया म्हूण हांव हॉलांत गेलों.
इलेक्ट्रॉनिक मतदान म्हणटकच पत्रिकांची रास नाशिल्ली.
बाकिच्या पडेल उमेदवारांच्या एजंटांचीय खातड नाशिल्ली.
फकत भाजपाचे मतमोजणी एजंट मतदान यंत्र आपल्या दोळ्यांनी फाफशिताले.
एकलोच भाजपाचो उमेदवार श्रीपाद नायक ह्या मेजावेल्यान त्या मेजार भोंवतालो.
आंगणांत सुकत घाल्लें भात एकल्याच कोंब्याक खावपाक संद मेळटकच तो जसो करता, तशेंच शें म्हाका तें चित्र दिसलें.
हांवें वचून ताचें मनसोक्त अभिनंदन केलें.
पूण ताका तें वयलेचाराचें दिसलें जावंक जाय.
म्हजो एका काळावयलो वर्गमित्र जावनूय तो परकी कसो वागलो.
आपूण जिकतां हाची ताका खात्री जाल्ली जावं येता.
हांव उठून प्रिसायडिंग अधिकाऱ्याकडेन गेलों.
तो अजून टपाल आनी टॅंडर मतां तपासतालो.
टपाल मतपत्रिकेची मतमोजणीय जाताली.
म्हळें, म्हज्या बापायची मतपत्रिका आसा जाल्यार पळोवया.
खरें म्हळ्यार मतपत्रिका वळखूंक येनात. पूण सांगूं नज.
ह्या राजकी मळार कितेंय जावं येता.
आतां पळयात, म्हजो बापूय भायर पडलो फाटल्या वर्सा जानेरांत.
ते उपरांत एक वर्स पांच म्हयन्यांनी विधानसभा वेंचणुको आयल्यो.
हांव सकाळफुडें मत मारूंक गेल्यार म्हजो बापूय मत मारून गेला !
परतून लोकसभेच्या मतदानाक फाटल्या म्हयन्यांत गेलों.
म्हजें नांव रोलाचेर चेक करतना बापायचें नांव तपासलें
पळय जाल्यार आदले खेपेवरीच तो मत मारून गेल्लो.
हें मात आतां अती म्हळ्यार सामकेंच अती जाल्लें.
म्हजो बापूय सुरवेक सावन कट्टर शींववादी.
ताणें शींव निशाणी सोडून केन्नाच दुसऱ्याचेर शिक्को मारलो ना.
हे वेंचणुकेक तर पयलेच खेपे शिंवान दडी मारिल्ली.
अशा वेळार खरोच बापूय आयलो जाल्यार तो तत्व बदलपाचो ना.
म्हणजे, जाणें बोगस मतदान केलां ताणें ताचे भावनेचो अपमान केला, तत्वांचो उपमर्द केला.
म्हज्यान ओगी रावप जालेंना. हांवें हरकत घेतली.
'चल, वच आनी बापायक घेवन यो. हांव ताका टॅंडर मतदानाचो अधिकार दितां.'
वेंचणूक अधिकाऱ्यान उपकार केल्लेवरी फर्मायलें.
बापूय ना जाल्यार हाडूं खंयचो, अशें हांवें ताका नाना परीन विचारलें.
ताचें म्हणणें, ना जाल्यार हाडूं नाका. पूण विनाकारण वावरांत अडचणी हाडूं नाका.
देखुनूच हांव हांगा आतां टॅंडर मतपत्रिका पळयतालों.
चाळटां चाळटां वेंचणूक अधिकाऱ्याक एका बॉक्सांत कितें तरी सांपडलें.
ती टेंडर मतपत्रिका नाशिल्ली पूण एक पत्र आशिल्लें.
अधिकाऱ्यान काडून तें म्हज्या हातांत चोंदलें.
हांवें उगडून पळयलें आनी कपलार हात मारलो.
कांय गजाली म्हजेकडेन आपूण जावन चलून येतात त्यो अश्यो.
फाटल्या म्हयन्यांत मगो पक्षाध्यक्ष सुरेंद्र सिरसाट हांणी रमाकांत खलप हाका कारणे दाखवा नोटीस धाडिल्ली.
खलपान व्हड मनान ताका जाप बरोवन दवरिल्ली.
पूण कोणें तरी तिरसुवादान ती मतपेटयेंत घाल्ली.
आज मतमोजणे वेळार ती अशी म्हज्या हाताक लागिल्ली.
खलपान पक्षाध्यक्ष सिरसाटांक सामकीं मुद्देसूद कारणां बरयल्लीं.

महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचे अध्यक्ष प्रो. सुरेंद्र सिरसाट हांणी धाडिल्ल्या कारणां दाखयात नोटिसेक अनुसरून एका मित्रान दुसऱ्या मित्राक दिल्लीं कारणां :
प्रिय मित्र सुरेंद्र,
तुजें कारणां दाखयात नोटीस पावली रे !
तुवें जितलींय कारणां विचारल्यांत तितलींय आमी मेळटा तेन्ना डिस्कस केल्यांत. तें करूनच आमी कॉंग्रेसींत वचपाचें थारायल्लें.
तूं अकस्मात फाटीं खंय उरलो तर ?
आतां म्हाका अशें विचारप मरे ? हांव कॉंग्रेसींत एकटोंच गेलां काय आख्खो मगो पक्ष घेवन गेलां ?
तो आख्खो व्हरूं नाशिल्लो जाल्यार तूं मगोचे उमेदवार दवरपाचे सोडपाचो ?
कॉंग्रेसींत भाशेचो प्रस्न गौण रे ! आमी मगोंत कोंकणीच उलयताले काय ना ?
पूण कॉंग्रेसींत सगळ्यांपरस पैशांची भास चड चलता आं !
तूं जाता तितले बेगीन यो रे.
गरजेभायर तूं एकटो पडलो ना ?
कॉंग्रेसींत आयिल्लो जाल्यार वेंचणुकेक दोन भाशणां करूंक मेळचीं नाशिल्लीं ?
आतां भाजपांत बी वचपाचीं पिशेपणां करूंनाका आं !
थोडे दीस राव. शरद पवार येवपाचो आसा...
तेच खातीर हांवें मगोचे दोन आमदार भायर दवरल्यात.
मराठी आनी महाराष्ट्र आमच्या रक्तांतल्यान गेला रे ?
आनीक आनीक तूं नोटिसेचे भानगडींत पडूं नाका.
हांवच तुका राष्ट्रवादी कॉंग्रेसींत येवपाची नोटीस धाडटां.
ते म्हणसर मातसो कॉलेजीकडेन लक्ष दी.

तुजो, भाइ

# गांधी म्हळ्यार

□ सखाराम गो. शे. बोरकार

गांधी म्हळ्यार...
खंयच्याय तरी,
परिक्षेच्या पेपरांत,
कांय गूण आशिल्लो,
सदांच येवपी एक प्रस्न.
गांधी म्हळ्यार...
जातीय दंगली, हिंसाचार,
जाळपोळ, मारामारी
थंडावपाक
सरकारान दिल्लो शांतिचो मंत्र.
गांधी म्हळ्यार...
दोन ऑक्टोबर, सव्वीस जानेर,
पंदरा आगस्ट, तीस जानेर
ह्या दिसांनी,
गांधी तोपयो घालून
मिरोवपाचो सुवाळो.
गांधी म्हळ्यार...
शाळांनी, कॉलेजिंनी
वादावादींत, परिसंवादांनी
येवपी
सदचोच एक विशय.
गांधी म्हळ्यार...
सरकारी ऑफिसांनी,
न्यायालयांनी,
जुविजाचे फाटल्यान हुमकळायिल्लें,
धुल्लान माखिल्लें
एक पांयजेल.
गांधी म्हळ्यार...
राजकारणी, पत्रकार,
कवी, साहित्यीक, विज्ञान,
हांकां सदांकाळ 'खावड' दिवपी,
तांच्या घोस्ताचो
एक विशय.
आनी निमणें...
गांधी म्हळ्यार
दर वेळा लोकशायेचो
खून जावन लेगीत
तिका तिगोवपी
एक संजीवनी मंत्र!

# पर्थून येयात गांधीजी

□ राजय र. पवार

हे महात्म्या!
तुजे जयंती दिसा निमतान
सगळे सुटी मनयतले
दोन पांयांचे कोले
हांगा
वर्सांचिंच पद गणयतले

माचयेर रावन
हीं सुणीं
जाय तशीं भोंकतलीं
तुंवें जांकां धांवडायले
तांचेच भाशेंत ओंकतलीं

तुजे पिकाळ भुंयेंत ते
निवलकाणयो रोयतले
आनी सोबीत फुलां मात
आपल्या माथ्याक खोयतले

तुजीं तत्वां तुजे विचार
लोकांवटेन मोखतले
आपूण घालून सुटबूट
खादीचेर भाशणां ठोकतले

दुसऱ्याच खिणाक तत्वां तुजीं
गुड्ड्याक व्हरून मारतले
ते बुरशें उलयतले
आयकतले, पळयतले
महात्म्या!... तुका
मरतकीरय
दर दिसा जळयतले

देवळां मशिदिंच्या नांवान
केस्तांव हांगा घडयलां
सोबीत आमच्या भारताक
तांणी पांगळो करून उडयला

धर्म जाती नांवान देशाक
पळय कशे गेल्या सोलीत
मेळत थंय पेट्टा उजो
माकडा हातांत गेलां कोलीत

तांच्या हातांत
आयल्या सत्ता...
ते नाचयतात
... आमी नाचतात!
तांकां न्हिदचेखातीर दुडवां गादयो
तकलेकडेन भांगरा उशीं
गरीब बाबडो रस्त्याचेर
अजून लोळटा उपाशीं

तांच्यांनी काडिल्लो धुल्ल
आतां सगळेकडेन दाटला
पयर...
म्हाराक एकलो तेंकिल्लो
तुज्या पुतळ्यालागींच बाटलां

अजून फुट्टात तकल्यो हांगा
अजून आसात धर्मकोल्ली
भूंय-भास विकली तांणी
लजूय विकली उल्ली सुल्ली

कशेंच आतां पेकना
वाडत वता
परतें परतें
देशाक आमच्या
जालां चरतें
तुज्या विचारांचें मलम जाय
सांगात म्हाका गांधीजी
तुमी...
पर्थून जल्म घेत काय?

# हांव कोंकणी कडेन कसो पावलों

फेलीस्यु कार्दोज

१९५४ वर्साच्या जून म्हयन्याचे १६ तारकेक, रातच्या सुमार आठ-साडेआठांक म्हज्या इश्टाक, जॉर्ज आंद्रादीक, धरून हाडून क्वार्तेलाचे दुसरे एके कुडींत दवरलो. दुसऱ्या दिसा नावेलेच्या शामराव मडकयकार आनी ताचे बराबर 'नागडे मास्तर' (भाई वेलागारकर) हांकां धरून हाडून मडगांवच्या क्वार्तेलार दवरले. चार-पांच दिसां भितर कैदी केल्ल्यां सुटके झुजाऱ्यांची वळेरी मारुतीचे शेंपडे परीं वाडत गेली.

म्हाका दवरललो ते कुडी भिंतर जबर जाल्यार ४-५ जाणांक दवरूंक जाताले. पूण केन्ना केन्ना तितूंत १०-१२ जाणांक लेगून हाडून भरताले. थोड्या दिसांनी ते कुडींत म्हाका फेर्नांद गोमिश, जुजे मिंगेल सालदाञ, जुजे लुईश द कॉश्त, डॉ. जुजे फ्रांसीश्क मार्तींश, नरेंद्र हेगडो देसाय, प्रो. शंकर सरदेसाय, सी.पी. द कॉश्त हांचो सांगात मेळ्ळो.

क्वार्तेलार कयदी आसतना आमकां पत्रां, पुस्तकां अधिकारी वाचूंक दिनासले. इतलेंच न्हय, आमी एक साबांव वो ब्लेड लेगून मागयल्यार तांचें गुठलावन आशिल्लें भायलें कागद काडून फकत 'नागड्यो' वस्तू आमकां दिताले. त्या कागदांचेर संदेश बी कितेंय बरोवन गुपतीं भायर धाडीत म्हण पुर्तुगीज अधिकारी एक कागदा-कुडको लेगून आमचेकडेन येवपाक दिनासले.

मडगांवचे ते बंदखणींत आमकां कयद्यांक जेवण दिताले तें जेवपा सारकें नासतालें. एकलो शिवराम नांवाचो खाणांवळकार जेवणाची सरबराय करतालो. 'दोळ्यांनी कुड्डें, नांव मात नयनासुख' म्हणटात ते परीं ते तंटय खानावळिचें नांव आसलें 'सुग्रास भोजनालय'! एका पांट्यांत जेवणा पत्रावळिंचो दाळ मांडून एक गावडीण तें जेवण घेवन येताली. जेवण म्हण कसलें? थोडें शीत. शितांत हुमण ना जाल्यार आमटी घाल्ली आसताली. आनी चिमटीभर भाजी आनी कुलेरभर सुक्या बांगड्यांची किसमूर. दनपारचें आनी रातचें एकेच तरेचें जेवण. चार-पांच दिसांनी आमच्यांनी तें जेवण जेवंक जायना जालें. आमी ज़ेवणा विशीं कोमांदांतीक सांगलें. कोमांदांत — आंतेरु आल्वीश — पुर्तुगालचो एक पाकलो. तो बरो मनीस आसलो. ताणें आमकां सांगलें: 'तुमी जेवणाचे दुडू फारीक करूंक राजी आसत जाल्यार तुमच्यांनी हॉतेलांतलें जेवण हाडूंक जाता.' कोमांदांतीन 'लोंगीञुश' हॉतेलाच्या धनयाक — लोंगीञुशबाब कुतीञ हाका आपोवन हाडलो. त्या काळार मडगांवांत हेंच एक उत्तम हॉतेल. आमचेकडेन लोंगीञुशबाब उलयलो आनी आमकां जाय तसलें जेवण आनी हेर फळार धाडून दिवपाक तो तयार जालो. त्या वेळार आमचेकडेन दुडू नासले. कयदी करून हाडलले तेन्ना आमच्या खिश्यांत जे थोडे पयशे आसले ते पुलिसेन जप्त करून दवरलले. आमी लोंगीञुशबाबाक सांगलें, ताचे दुडू घरचीं फारीक करतले. म्हजो घरचो सो कोणूच नासलो. 'म्हज्या घरा बारा जोतां, हांव हांगा भीक मागतां' म्हणटात तसली म्हजी गत जाल्ली. सुटून येतकच ताचे दुडू फारीक करतां म्हण हांवें ताका सांगलें. ताणें बरें म्हळें.

म्हजो इश्ट नोरूबाब (नरेंद्र हेगडो देसाय) थोडें जेवपी. ताका ता… मामागेर थावन बरें सुरबूस जेवण येतालें. ताणें एकदां मामागेर स… धाडलें, तें जेवण आपणाक पावना, आपणाक भूक लागता... उपरांत ता… भरपूर जेवण येवपाक लागलें. आनी नोरूबाब कितें करतालो? सदां… थोडें जेवतालो आनी बाकिचें जेवण, नुस्तें दुसऱ्यांक दितालो.

लोंगीञुश हॉतेलांतलो एकलो चाकर सकाळच्या सुमार ११ वरांचेर… घेवन येतालो. दनपारच्या आनी रातिच्या जेवणाचे आमकां जाय तलें पकवान्न आमी वेंचून काडून ताचे चोपडेर बरोवन दिताले. ते परणें आमकां जेवण येवंक लागलें. तोंड पुसपाक कागदाचे रुमाल दिताले… हांव वापरनासतना सांबाळून दवरूंक लागलों. एका दिसा हांवें मेनू बरंक हाडललो तो लापशिचो कुडको — किरांगळी बोटा येदो — त्या चाकर… दोळे आड करून वणटिच्या बुराकांत लिपोवन दवरलो. तो चाकर मा… आवटो आसलो. एका दोळ्यान तिरसो. लापशी कुडको ना म्हण… इल्लो बोवाळ केलो. पूण उपरांत तो ओगो रावलो. पेन्सिलेचो कु… ना जाला म्हण पुलिसेक कळ्ळ्यार आपल्या आंगार येतलें म्हण तो च… घडये भियेलो आनी तोंड धांपून गेलो.

एका कागदा रुमालार हांवें नोरूबाबाकडेम नागरी अक्षरां बरोवन घे… तांचे उच्चार रोमींत बरोवन काडले. नोरूबाबाच्या आधारान हांव ना… लिपी शिकलों; कांय उतरांय वाचूंक आनी बरोवंक शिकलों. आतां म्हा… गरजेन एक हिंदी पुस्तक जाय आसलें. पूण बंदखणी भितर पुस्तका… हाडूंक जातलें?

आमकां सकाळचो नास्तो आनी सांजेची च्या घेवन मडगांवच्या 'को… रेस्टॉरॉं'तले दोग भुरगे येताले. एकलो मेरू आनी दुसरो मातसो … शेगूण. एका दिसा हांवें पुलिसेची नदर चुकोवन ताका हिंदी पयलें पु… हाडूंक सांगलें. तो घाबरलो. ताका हांवें एक माण्णी सांगली: मसालो-पो… भाजी घालनासतना तिचे बदला त्या पुस्तकाची कवळी करून घा… लायली. नव्या पुस्तकाक चड दुडू पडटले देखून ताका पोरणें '… हँड' हांडूंक सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं शेगूण आनी मेरू आमकां च्या-नास्तो … आयले. शेगुणान पोटाकडेन कालसांवांत खोवन हाडलली ती हिंदी पुस्ति… पुलिसेची दिश्ट चुकोवन, दाराच्या वारांवांतल्यान कुडी भितर उड… पुलीस केन्ना केन्ना मसालो-पोळो उगतो करून पळेतात आनी शीत… उसतून चयतात देखून शेगुणान ती पुस्तिका पोटालागीं लिपोवन … हाडलली. ते पुस्तिकेचें नांव आसलें 'देस की जबान.' आनी फ… आणे (आतांचे ३७ पयशे) फारीक केल्ले. ह्या पुस्तका वरवीं हांवें हिं… भास शिकपाची सुरवात केली. नोरूबाब आनी प्रो. शंकर सरदेसाय … शिकोवंक लागले. नोरूबाबाक हांव म्हजो गुरू मानतां. ताका लागूं… नागरी लिपी शिकूंक पावलों.

[चंता…

# ाशाढांतलो एक दीस :
## ाशयाचें मर्म अनुसर्जनांत

. किरण बुडकुले

**'आषाढ का एक दिन'** हें स. मोहन राकेश हांचें नाटक संदांच आधुनिक रतीय नाटककाराचे उदरगतींतलें एक अज्रंवर पेणें म्हूण याद उरतलें. पणाल्या समकालीन नाटकाचें अल्प-विकसीत तंत्र, पुर्विल्ल्या गिरेस्त यजां वटयां आदरान पळोवपाची नाटककारांची वृत्ती आनी नाट्याक बाह्य घर्शांत सोदचेली चालंत परंपरा हांकां निर्धारान कडसरावन स. मोहन केश हांणी आपले परीन एके नव-परंपरेचीं बियां आपणाल्या नाटकांत ळयलीं. स्रेश्ठ कथाकार आशिल्ल्या ह्या प्रतिभावंता लागीं मानवी अणभवाक नके फास्केंत बसोवपाची, तशेंच नेटक्या उतरांनी तिजपाची असामान्य क आशिल्ली. तंत्राची प्रगत अवस्था हो तर तांगेल्या युगाचो – कथेंतल्यान मर्थपणान दिसून येवपी – गुणधर्म! ह्या सगळ्यांचो परिपाक 'आषाढ का क दिन' हे कृतींत एकठावला. पंचविशेक वर्सांआदीं आस्वादूनय हें नाटक नांत जिवें आसा.

ह्या भावोत्कट नाटकांत इतिहासाफाटली दंतकथा आनी दंतकथेफाटली तिहासिकता, मानवी अणभवांची प्रखर वास्तविकताय पांगरून उदेता. व्यथा ानी उमाळो हांचें अस्तर आशिल्ल्यान आदर्श आनी यथार्थ हांचे मदलो संघर्श स्थूल जावं उग्र जावंक पावना. तो बळिश्ट पूण आंतरीक आशिल्ल्यान ीक्ष्ण तशेंच उदात्ताच्या पांवड्यार पावता. एक तरल अनुभूति वाचप्याक माचयेर प्रेक्षकाक) दिवन वता. संवाद, तंत्र, नेषथ्य-सूचना, माचयेची जाण ा सगळ्याच आंगांनी हें नाटक शेक्सपियराच्या कांय नाटकांवरी पळोवपाचें ा वाचपाचेंच न्हय जाल्यार मनां-माचयेर खेळयन दिसपासारकें. मानवी जणेच्या साद्यासुद्या घडणुकांनी लेगीत कितली खोल अनाकलनियता आनी सहायता वावुरता हें मनोविश्लेशणाच्या पारदर्शी पड्ड्यांतल्यान ाटककारान अतिशय प्रभावी तरेन सामकारायलां. सताचें हयन्हयशेंपण, नेश्ठा आनी वंचना हांचें सापेक्ष खरेंपण, सामान्याचो आभास दिवपी सामान्यत्व आनी सादारणाचे वेंगेंत आस्पाविल्लो असादारण मोनो शोक ा सगळ्यांचें मेळावण हे कृतीक आधुनिकतेचें आगळेंच प्रतीक करून सोडटा.

आज इतल्या वर्सांनी मनाचो थाव घेवपी हे संहितेचो कोंकणी अनुसर्जित आविश्कार वाचूंक मेळ्ळो. भौ. पांडुरंगबाब भांगी हांचेसारक्या प्रतिभाशाली कवी आनी ज्ञानवृद्ध अभ्यासकान कोंकणी सरस्पतिचें दायज फुडाराखातीर अदीक गिरेस्त करून दवरलां. खंयच्याय सिद्धहस्त लेखकाचे अजोड कल्पनाशक्तीन निर्मिल्ले कलाकृतिचें भाशांतर करूंक आयलें तरी तागेल्या सर्जनाची कीट अणकारांत फुलोवप सोंपें न्हय. थंय फकत उतरांचें अलंकारीक ा अर्थगर्भ आंगलेंच पावना. मूळ सर्जनांतली चेतना, प्रतिमासृश्ट, तातुंतली कल्पकतायेन उदेल्ली अणभवस्रश्ट आनी अणभवाक पोशक अशी ताचे फाटली वातावरण-निर्मणी अणकारांत देवंक जाय. थंय तुल्यबळ कल्पनाशक्त आनी कलात्मक नदर हांचो मिलाफ जावचो पडटा. इतलेंच न्हय, त्या अणभवाक आदीं समग्रतायेन आपणावंक पावत अशें हळुवार कवीमन आनी ाट्यवस्तुच्या कालसंदर्भाक साजशी उतरावळ बाळगुपी लिखणी जाय पडटा. े भायर, मूळ कृतींत ज्या ल्हवपीक पिशोलान अंतर्मन आनी भायलो यथार्थ ांचेमदलो सूक्ष्म पूण विदारक संघर्श पितारला, तो तितल्याच समर्थपणान तरांत पिकोवंक येवंचो पडटा.

कोंकणी सरस्पतिच्या भाग्यान, भांगीबाबाचे लिखणेन हो सगलो भार हजतायेन उखलला. तांगेली उतरावळ इतली वस्त्रगाळ आनी वेंचीक आसा ी ते कितले खोल मेरेन मूळ कृतिचे तनरेंत रमल्यात हें रसीक वाचप्याक नेमकें होलमता. संस्कृतायेचो नीज सूर नाट्याक ताची खाशेली फाटभूंयच न्हय तर अस्मिताय दिता. हें ज्युस्त वळखून अणकारप्यान उतरांच्या धाग्यांनी आख्यायिका आनी इतिहासाच्या विरविरीत वस्त्राक शिंवन एक भोव सोबीत असो, अनवळखी पूण विश्वासार्ह दिसपी, तत्कालीन समाजीक परिवेश कोंकणींत पुनर्निर्मिला. हे खातीर तांगेले संवाद (भोवतेक करून) मूळ संवादांचे तोडीक तोड जाल्यात. हें फकत शब्दार्थांच्या अचूक उपेगाक लागूनच जावंक पावलें ना, तर उतरांच्या प्राचीन रुपांक लागूनय जावंक पावलां. पुर्विल्लीं उतरां वापरतना अणकारप्यान घेतिल्ली जतनाय तुस्तीलायक आसा. जंय फावो थंय कालानुरूप प्राकृत वा संस्कृत व्हांवतेंतलें उतर तांणी वापरलां. हें करतना मूळ लेखकान जशी व्यक्तीरेखेचे मनोवृत्तीक आनी समाजीक संदर्भाक साजसारकी उतरावळ उखलल्या तशेंच भांगीबाबानय केलां.

अशा सुज्ञ उपेगावरवीं त्या-त्या प्रसंगाक न्याय आनी त्या-त्या अणभवाक सुयोग्य अभिव्यक्ती लाभल्या. मल्लिकेसारके कवीमनाचे रसिक व्यक्तिरेखेची मानसिकताय आनी तिगेले आवयचे वास्तवाभिमुख नदरे फाटली मानसिकताय ह्यो दोन भिन्न गजाली. हें वेगळेपण तांच्या संवादांतल्यान आशय, अर्थ आनी वृत्तिच्या उक्तावणांतल्यानच न्हय, तर उतराची निबरसाण आनी म्हौंवेंपण, प्राकृताय वा सुसंस्कृताय, इतलेंच न्हय जाल्यार चालंतपण वा नवलाय हातुंतल्यानय उबें जाता. ते भायर मल्लिका आनी प्रियंगुमंजिरी ह्या दोन तोंकाच्या मनोवृत्तिचें उक्तावण करुंकय वेंचीक उतरांचें बळगें अणकारप्याक आदाव दिता. हांगा प्रकृती आनी संस्कृती हांचेमदल्या विरोधापरस गांवगिरी सुसंस्कृताय आनी शारी सभ्यताय हांचेमदलो अदृश्य पूण मुळावो वेगळेचार सामर्थ्यान वेंचपांतय उतराच्या नेमक्या उपेगान भांगीबाबाक आधार दिला.

देखीक, मल्लिकेची सौंदर्याचें आस्वादन करचेली रसिकताय (तिणें कालीदासाचो मूळ शिळोक गुणगुणपा इतल्याच प्रभावीपणान) तिगेल्या उलोवपांतल्या उत्स्फूर्त उतरांतल्यानय पातेता. ती म्हणटा, ''आई, आजचो क्षण हांव केन्नाच विसरचेंना. सौंदर्याचो येदो साक्षात्कार म्हाका केन्नाच जालो ना. जाका स्पर्श करूंक मेळना, तरी सगळो देह व्यापून उरता, असलें सौंदर्य म्हजे मुखार उबें आशिल्लें! ताका हांव पोशेतालें, दोळ्यांनी पळेतालें, गात्रा गात्रान पियेतालें! ह्याच वेळार भावनांच्या उमाळ्यांक कवितेचें रूप कशें येता, हाची म्हाका अनुभूती मेळ्ळी!'' (पा.२)

ह्या उताऱ्यांत संस्कृत-प्रचुर उतरां भरघोस हातान शिंवरूनय तिगेलें उलोवप अडेचें वा अभ्यासू दिसना. तिगेलें सौंदर्यासक्त मन आनी कलाकृती हांचो संगम तिचे भितरले गांवगिरे पूण खरे विदुषीकडेन जाला हें वयल्या उतरांतल्यान होलमता. शिकप नासतनाय कालीदासा सारकिल्या असामान्य प्रतिभावंताचो सांगात आनी आस्वादनाची नीज तांक हांचो प्रभाव तिगेले उतरसंपदेचेर पडप समा दिसता.

हाचे उरफाटें, प्रियंगुमंजिरी शास्त्रदर्शनां शिकिल्ली वेव्हारीक नदरेन विदुशी म्हणोवपी राजकन्या जावनय तिगेली भास सुसंस्कृताये परस राजघराण्यांतले सभ्यतेची आनी रसिकतायेपरस रूक्ष वेव्हाराची देख थारता. मल्लिकेंत सामान्यांतली एक जावनय जंय काव्य जियेता थंय पियंगुमंजिरींत कालीदासाची बायल जावनय एक रूक्ष समजिकाय वावुरता. एकेकडेन ती मल्लिकेक सांगता, ''राजकारण म्हळ्यार साहित्य न्हय. राजकारणांत एका एका खिणाक मोल आसा. एका खिणाची पसून चूक जाली जाल्यार, सर्वनाशाचें अरिस्ट उप्रासून येवं येता. राजकारणांत मनशान पूर्ण जागृत रावचो पडटा. साहित्य हें तांचें पयलें सोंपण आशिल्लें. आतां ते दुसऱ्या सोंपणार पावल्यात. तांगेलें आतांचें पावल फाटीं सरूंक फावना. हे खातीर म्हाका खूप तकालस घेवची पडटा.'' (पा. ३४)

मल्लिकेच्या उलोवपांत जशें 'सौंदर्य', 'साक्षात्कार', 'स्पर्श', 'देह', 'क्षणु', 'गात्र', 'अनुभूती' आदी उतरां सहजतायेन येतात, तशींच 'खिणाक', 'चूक', 'उप्रासून', 'सोंपण', 'तकालस' हीं उतरां प्रियंगुमंजिरीचे जिबेर सहजतायेन घोळटात. पूण अणकारप्यान मात तीं खूब कल्पकतायेन तांच्या तोंडांत घाल्यांत हें खरें. अशे तरेचे आनीक एके जोडयेचो विचार केल्यार हें अदीक बरे तरेन समजतलें. कालीदास उज्जयनीक वचून, आनी उपरांत काश्मिराचो शासक म्हूण वावरुनूय, मनान गांवांतलो नीज मनीस, सादो प्रतिभाशाली कवीच रावंक आंवडेता. भायल्या नगरांत रावन, सन्मान आनी प्रतिश्ठेच्या जाळ्यांत घुस्पूनय आपणालें अंतर्मन नीज राखूंक आपले मदली कविची अस्मिताय जिवी दवरूंक धडपडटा. हाचे उरफाटें आर्य विलोम एक पराजित, प्रतिभाहीण कवी – प्रतिस्पर्धी. दोगांयचें संभाषण आयकतना तांचे मदले मानसिकतायेच्या विरोधी वटिंचें दर्शन घडटा. कालीदासाची भास – बरयतना कितलीय काव्यमय आनी अलंकारीक आसली तरी – उलयतना सभावीक, सोंपी, म्होंवी आसा हें जाणवता. तातूंत काव्य आसा पूण भाशेंत प्राकृताय वावुरता. तो म्हणटा, ''येवजिता की तोय असोच आशाढाचो दीस आशिल्लो. कुपां अशींच भरून आयिल्लीं. पावस आनारून आयिल्लो. दुखावल्ल्या एका हरणाच्या पिलाक घेवन हांव हांगा आयिल्लों. उपचार करीत ताका तुवें मायेन सांसपिल्लें... येवजितालों की गाळींचोय आंवांठ पैलिंवरिच आसुये. पर्वताचे धारवटीर वचपाची वाट तीच आसुये. हवेंतय तीच ऊब आसुये आनी वातावरणांतय तोच ध्वनी भरिल्लो आसुये.'' (पा. ५३)

राजकवी म्हूण मान्यताय लाभिल्ल्या कवीश्रेश्ठाचे आकुळ मनास्थितींतलें हें उलोवप 'उपचार' आनी 'ध्वनी' हीं दोन उतरां सोडल्यार सामान्यांतल्या उलोवण्यावरीच दिसता. हाचे उरफाटें, विलोम कालीदासाच्या संदर्भांत उलयतना घडये-घडयेक 'क्षोभ', 'क्षेमकुशल', 'आतिथ्य' अशीं उतरां वापरतना दिसता. हे वरवीं अणकारप्याली एक सुप्त – घडये नकळटां साधिल्ली – कळाशी दिसता. विलोम हे वरवीं अजाणटां आपलेमदीं आत्महीणतायेची भावना आनी आपणालो दुखाविल्लो अहंगंड पोशेवपी आत्मकेंद्रीत वृत्ती उक्तायता जायत. कारण हरशीं उलयतना तागेली भास सामान्यच आसता.

व्यक्तीरेखा वा पात्रांच्या संभाषणाक हांगा अशें म्हत्व दिवपाक कारण आसा: भांगीबाबान नेपथ्य-निदर्शक सुचोवण्यो अणकारतना भास-उपेगाचें भान कटाक्षान राखलां. प्रकोस्ट वणटी, गवाक्ष, देवडी, कुंभ, भूर्जपत्रां, आसन, लल्लाट, दीर्घ उस्वास, व्याघ्रजीन, जीर्ण अशे प्रयोग जेदेवेळार अणकारप्याक योग्य दिसल्यात तेन्ना ताणें ते वातावरणाकडेन सुसंगती राखूंक मुजरत केल्यात. मात नीज प्राकृत वा हेर कोंकणी उतरांचो उणाव आसा म्हूण हें घडूंक ना हें दाखोवपीय असंख्य उतरां तांचे लिखणेंतल्यान हांसत-खेळत जिवीं जाल्यांत. हांचेमदलीं उल्लेखनीय म्हळ्यार अद्रुण, किऱ्या-विकऱ्यारी, सामुखार, सायबाजात्रा, आंगशें, बास्कळ, रेसमी, लग्निक, उश्टवारो, सराबरिचो, विडविडटा, इष्टकाय, चित्रिक, सया, निखड्डाय, लेपो, सुडबुडटा हे आसात.

मात ह्या लक्षणीय आनी मोलादीक अनुसर्जित वावरांत एक व्हड उणाव आसा. तो म्हळ्यार अणकारप्यान आपल्याक योग्य दिसतात तीं शुद्धलेखनाचीं प्रमाणां घडयल्यांत. हें बरोवप्याच्या स्वताच्या ललित बरपांत आयल्यार कांयच आक्षेप नासचो. चड करून काव्यांत आयल्यार. कारण काव्यांतर्गत कवीक एक खासा मेकळीक परंपरेन (तशेंच काव्याचे प्रकृतिनूय) दिल्ली आसा. मात अणकारीत प्रकार – चड करून नाटक – सरसकटपणान मानून घेतिल्ल्या प्रमाणांक धरून आसचें. चड करून प्रथितयश बरोवपी आनी जाणकार आशिल्ल्या भांगीबाबान हें अवधान बाळगुचें अशें नमळायेन सुचयन दिसता, कारण तांगेलें बरप आमचेवरी नवशिक्या लेखकांचें घडत वचपी बरप म्हूण वाचपी कडेक दवरना. तें फुडाराच्या बरोवपाखातीर एक अनुकरण्याजोगो नमुनो थारता.

तेचपरीन ''अशी हांव देवाची प्रार्थना करतलें'' (पा.२१), ''ह्या वेळा म्हज्याच स्वार्थाचो विचार करपाक म्हाका सोबचें ना!'' (पा. ११) ह्या वाक्यांतले प्रत्यय अ-कोंकणी दिसतात. कोंकणींत 'देवालागीं/कडेन मागपाचो/प्रार्थना करपाचो प्रघात आसा; तशेंच विचार 'करप' हें रूप अदीक घोळटा. तशेंच पातेता काय पायता (पा. २), भौमान काय भोमा (पा. ११), पोदोर काय पदर (पा. २), न्हय काय न्हंय (पा. २१) अ दुबावी प्रयोग मानून घेतिल्ले तरेन बरोवंक जाय वा तशे कित्याक न्हं हाची विस्कावणी करून ते बरपांत येवंक जाय. नाटक हो उच्चाराचेर पातयेव साहित्यप्रकार. तो माचयेर खेळपाखातीर आसता. देखून नाट्यकलाकारा समजणेंत/उच्चारांत घुस्पागोंदळ जायत असो कसलोच प्रकार बरोवपां येवंनये, ही जतनाय भांगीबाबावरी ऋषीतुल्य बरोवप्यान घेवंक जाय.

मात हें सांगतनाच तांणी आमगेल्या चालंत वापरांत येवपी कांय उतरां जें 'शुद्धलेखन' केलां तें अदीक स्विकारपाजोगें आसा हेंवूय खरें. हातूं सामुखार (सामकार), गांवगाऱ्या (गांवगिऱ्या), वाटार (वाठार) हीं आन हा पैलीं (हे पैलीं) हे शब्दप्रयोग आस्पावतात. हाचेर जाणकारांनी जरू विचार करचो. मात तिज्ये, ताज्ये, पैले, दाखैता, पुण, अप्रतिश्टा, स्वास्तिक हे म्हाका आपणावपाक कशे योग्य हें समजलें ना. आनीक एक नूक उरल तें अनुस्वारांच्या सरभरस उपेग-अभावाचें. हाचो चिकित्सायेन विचार जावंक जाय. मात हांगा एक बारीकसाण वाचप्यान बाळगुची आसा. कांयकडे अनुस्वारांक बरोवप्यान टाळ्ळ्यात, पूण बरेच कडेन ते छापणावळिंतल्य जायते खेपो अनावधानान उरपी त्रुटींक लागून तर कांय वेळा लेखना सुधारुनय छापखान्यांत 'सुधारपाचे' वृत्तीक लागून उरपी अशेय आसात हांचेकडेन आडनदर करूंक जाय. तरी पूण अशा ल्हान-सान गजालींकडे लक्ष दिवप गरजेचें इतलेच खातीर, कारण नव्या सहस्त्रकांत वतना आमचेसारके नवे कावळे थीर चांट-मुद्रांक आंवडेतात. एखाद्रो लेखक ''उखल लिखण बरय'' पतिचो आसता ताचेकडेन कसलोच शीण ना रोष! पूण ज्य बरोवप्यांच्या पावलार हेरांची नदर थिरावता तांचेकडेन किस्कुटाची लेगी विस्कटावणी मागप हो कोंकणी मोगी बरोवप्यांचो अधिकारच न्हय जाल्या कर्तव्य. कायद्यान दिल्लें न्हय जायत पूण त्या-त्या बरोवप्यावेले श्रद्धे दिल्लें. हाका पाळो दिवचो, हे एकेच भावनेन ही विस्कटावणी केल्या.

मात अशा बारीक-सारीक उणावांक लागून हरशीं अतिशय प्रभावी अश ह्या अनुसर्जनाचें मोल खालावना. हाच्यो पती दिवप सोंपें पूण त्यो वेंचू कठीण. कारण त्यो पानापानार सांपडटात. मात वर्णनात्मक उतारे जे आसा ते वाचप्यान मुजरत वाचचे. सैमाचें, भावनांचें, मनोकल्लोळांचें जें वर्ण 'आशाढांतलो एक दीस' आमकां भेटयता तातूंत भिजून चिंब जावचें अ कोणाकय दिसुंये. खरोखर दरेकल्याच्या संग्रहाक उरसारकें मोलादीक पुस्त अशेंच हाचें वर्णन करूंक फावो. हाच्या अभिजात गुणांचें दर्शन भायल्य निळ्याशार कवराचेर तितलें घडना जितलें भितरले वटेनचे शिल्पाकृति लेव निळायेवरवीं घडटा. पंचात्तर रु. मोलाचें हें पुस्तक साहित्य अकादेमी उजवाडायलां. अनुसर्जनांतय मूळ आशयांतलें मर्म सांपडावपी हें नाटक अणकाराची कोंकणींतली एक वेंचीक देख म्हणूंक जाय.

* * *

**आषाढांतलो एक दीस**
**मोहन राकेश**
**अणकार: पांडुरंग भांगी**
**साहित्य अकादमी, १९९८**
**पानां: ५४; मोल: रु. ७५/-**

REGD. No. GOA 130